## लेखकाचीं प्रसिद्ध जाल्लीं पुस्तकां

- वर्गशत्रू (नाटक)
- भरते-भार (नाटक)
  कला अकादमी पुरस्कार
- आण्टीची गादी (नाटक)
- दर्यासुंदरी (बालगितिका)
- आयज आमचें राज आयलें
  (रस्तानाट्य)
- गोमांचल ते हिमाचल (भोंवडेखबर)
  कला अकादमी पुरस्कार
- कॅन्सर (एकांकी संग्रह)

कव्हर चित्रां : डॉ. सुबोध केरकार
अक्षर संकल्पना : श्री. गोविंद नायक
कव्हर छापणावळ : काझा पॅकमास्टर, पण

# आयज आमचें राज आयलें

– दिलीप बोरकार




अगस्ती प्रकाशन

AIZ AMCHEM RAJ AILEM

Play by DILIP BORKAR.

○ अगस्ती प्रकाशन : ७


सेंट लॉरेन्स
आगशी–गोंय–४०३२०४

○ पयली उजवाडावणी
८ माय १९८९

○ मुखचित्र
डॉ. सुबोध केरकार
कलंगुट–गोंय

○ प्रकाशक
दिलीप बोरकार

○ प्रकाशन सहकार्य
ॲड. सतीश सोनक
डॉ. सुबोध केरकार
प्रा. विश्राम गुप्ते
श्री. दिनेश जोशी

○ छापपी :
एस. जे. हुंद्रे
रवि मुद्रणालय
कडोलकर गल्ली, बेळगांव
फोन : २३०७९

○ [redacted]

# आयज आमचें राज आयलें

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग गोंय, दामांव आनी दीवच्या कला अकादमी नाटच महोत्सवांत तारीक ४ फेब्रेर १९८६ दिसा सांजेच्या ७ वरांचेर दिनानाथ मंगेशकर सभाघरांत जालो. ह्या पयल्या प्रयोगांत वांटेकार जावपी मानकरी.

सादर करपी संस्था
आकार थिएटर्स
पणजी–गोंय.

लेखन
दिलीप बोरकार

- दिग्दर्शन
  अशोक भोंसलो
- नेपथ्य आनी मांडावळ
  अ. ऊ. नायक
- ध्वनिसंकलन
  शिरिष लवंदो
- प्रकाश येवजण
  सुश्रूत मार्टीन्स
- रंगभुषा
  सुरेश शिरोडकार
- सहाय्य
  प्रकाश कोत
  एकनाथ महाले
  चारूदत्त प्रभुदेसाय
  प्रेमानंद गांवस
- निर्मिती सहाय्य
  सतीश सोनक
  धर्मानंद वेर्णेकार

कलाकार

सुनील पालकार, राजेंद्र आमोणकार, अशोक नायक, रघुवीर गोवेकार, चंद्रकांत प्रियोळकार, उदय नायक, अनील सावयकार, उत्तम शेटचो, राजेश गाड, मोहन चांदेलकार, गिरीश उसकैकार, शैलेश फळदेसाय, अस्लाम मुजावर, मंगेश तुळसकार, सुरेंद्र नायक, उदय गांवकार, विश्वास सतरकार, मारिया रिबेलो, शितल नायक, स्वाती गोवेकार, नेत्रा नायक.

उपकार
प्रा. अरुण साखरदांडे,
उमेश केंकरो, नितीन धोंड,
प्रसाद भाटकार




विद्यार्थी चळवळींत आसतना मनांतल्यान एक खात्री जावन गेली. जर लोकामदीं एक जागृताय हाडटलो जाल्यार रस्तानाटचा-शिवाय दुसरें माध्यम ना. लिखाण आनी भाशण ह्या माध्यमाक एक मर्यादा उरता. पूण रस्तानाटच हें माध्यम बेमर्याद आसता. रस्ता-नाटचांतल्यान खरे अर्थान नेणार लोकांक शाणें करपाची शक्त आसता. मनोरंजनां वांगडाच लोकांच्या विचारांक धोंगसून तांच्या भितल्लो स्फुर्लींग पेटोवपाची जबरदस्त ताकद ह्या नाटचांत आसता. मात हें नाटच तेच ताकदीन सादर करपाची गरज आसता. चळवळीत हेच गजालींचो अणभव म्हाका आयिल्लो आसा. लोकांक नाटकाच्या माटवांत आफोवन हाडचे परस लोकांमदीं वचून हें नाटच सादर करून, तांकां त्या नाटचांत पुरायेन सहभागी करपाचो वावर आमी केलो आनी गोंयच्या राजकीय अनी सांस्कृतीक मळार थोडीतरी जागृताय हाडूंक म्हजो वाटो हांवें दिलो हाचो म्हाका अभिमान भोगता. हेंच माध्यम वापरून, धा–पंदरा वर्सांच्या म्हज्या चळवळीच्या अनुभवाचेर आधारीत हें रस्तानाटच रस्त्यावेल्यान माचयेर सादर करपाचो एक विचार तकलेंत येवन ताका हावें मूर्त रूप दिलें. हें तशें नाटक न्हय. एक रस्तानाटच. हाका मदीं अंक बी ना. कळाकारांक जाय थंय ताणीं विसव घेवं येता.

गोंय स्वतंत्र जालें त्या दिसा हांव फक्त पांच वर्सांचो. हें कितें चल्लां, कसले फार चल्ल्यात हाची कल्पना त्यावेळार नाशिल्ली. आवयकडल्यान भायर गेर्र चल्लां म्हणपाचें कळिल्लें तितलेंच. गेर्र म्हळ्यार कितें तेंय कळनाशिल्लें. फक्त भावतालें तें म्हाका दर दिसा चॉकलेटी घेवन येवपी पाकल्यांक कोणतरी मारूंक आयल्यात आनी ते आपल्याचें सगळें सामान–बिमान उडोवन जळींमळीं पळतात. आमकां

जिवाच्या भयान घरांतल्यान भायर सरपाची ओर्द नाशिल्ली. कांय शेजारी आनी आमचीं घरचीं जिवाच्या भयान घरांतूच बसून राविल्लीं. भायर व्हडले व्हडले फार जाताले ताजे आवाज आनी घराचीं पाखीं हालयत घरावयल्यान वचपी विमानाची कर्कश घरघर काळीज खप-खपायताली. हांतूंत शेजारी लोकांचे तें दबकत उलोवप. हीच याद. तांच्या उतरांतली ती भिरांत अजून म्हाका भावता. त्या वेळच्या तांच्या मानसीक भावनेचें आकलन आतां म्हाका जाता. तांची वागणूक आतां होलमता.

त्या उप्रांत स्वकीयांचो नंगानाच सुरू जालो. वेंचणुको जाल्यो. जनमत कौल जालो. परत वेंचणुको जाल्यो. आमी भुरगे बोबो मारीत वचपी गाड्यांफाटल्यान धांवत रावले. घरांतले जाणकार जे पार्तिलांत आशिल्ले तें पार्तील घेवन झगडत रावले. भुरग्यांवेल्यान घरच्या जाण्टया लोकांचींय झगडीं जावंक लागलीं. म्हज्या आगशी गावांत म्हज्याच शेजराक हिंदू किरिस्तांव आनी मुसलमान अशे तिनूय धर्माचे लोक. तिनूय धर्मांकडें आमचे लागशिल्ले संबंध. गोंयच्या सुटके पासून जनमत कौल आनी सार्वत्रीक वेंचणुको हाचो गडगड भुरगेपणा सावन हांव पळयत रावलां. वेंचुणकां मदल्या पाच वर्सांतलें जनतेचें सुख–दुख पळयलां. ताचेवेलें मतदारांचें भाष्य आनी विचार म्हज्या संवेदनशील मनांत ठळकपणान नोंद जायत गेले. आनी अजून मेरेन तीच स्थिती, तीच अवस्था म्हाका समाजांत पळोवंक मेळटा.

गोंयची मुक्ती त्यो हेर वेंचणुको ह्या सगळ्या प्रक्रियेच्या वेळार लोकांची मानसीक अवस्था आनी विचार प्रणाली जी आशिल्ली आनी जी समाज अवस्था अजून आसा तिजेकडें भुरगेपणासावन हांव जे पद्धतीन पळयतालों ती नदर म्हळ्यार हें रस्तानाट्य. हातूंत हांवें कोणाच्यो बकच्छायो करूंक ना वा टिकाय करूंक ना. फक्त नाट्यमय रित्या त्या त्या वेळचो सामाजीक, मानसीक इतिहास आनी हेर विचार प्रणाली हातूंतल्यान सादर करपाचो प्रयत्न केला.

या रस्तानाट्याक हावें नाटक रूपांत छापलां तरी कोणें तातूंत नाट्यसंहीता सोदची न्हय. तशें नाका थंय आपल्याक जाय म्हण

कोणेंय कितेंय सोदल्यार म्हजी हरकत ना. पूण गोंयांत जीं आयजवयर राजकीय स्थित्यंतरां घडल्यांत त्यावेळची समाजप्रक्रिया आनी लोक कितें आनी कशे विचार करताले हें बरयल्लें आसप बरें. हीच नदर ह्या नाटचांत आसा. ही नदर फक्त म्हजी. जी हावें समजून घेतल्या.

'आयज आमचें राज आयलें' म्हणत स्वतंत्र गोंयच्या स्वतंत्र स्वकीयांनी गोंयकारांच्या तोंडाक पानां पुसल्यांत. अजून पुशीत आसात. गोंयकार बाबडे आयज आमचें राज आयलें म्हण फटीची खुशालकाय मनयतात. ह्या लोकांक भुलोवन तांचेर आमचे कांय सुवार्थी गोंयकार जाती धर्माच्या नांवान सपत्ती आनी गुंडगीरी हाच्या मालवजार राज करतात. हें आयलां हें राज आमचें न्हय तर तें आमी हाडूंक जाय हो विचार विद्यार्थी चळवळींतल्यान मनांत साकार जालो. ताजेंच रस्ता-नाटच घडलें. आमचें राज आमकां हाडपाचें आसा तें अजून येवंक ना हाचो जाणविकाय त्या वेळार म्हज्या सांगात्यांक आनी म्हाका जाल्ली. तो विचार अजून आसा.

आगशी गोंय **दिलीप बोरकार**

माचयेर तीन प्लॅटफॉर्म. एक ज्युस्त मदीं आनी ताचे दोनीय वांटानी एक एक. हांचो उपेग गरज पडटा तसो करचो. पड्डो उगडटा तसो दादले–बायलो आनी भुरग्यांचो एक जोमो माचयेर येता आनी गीत गायता. जोम्याचो फुडारी पयलीं एक वळ म्हणटा आनी ताका बाकीचे सांगाती साथ दितात.

सांगतां तुमकां एक गजाल एका राज्याची
कोलेमांव राजा आनी ताजे प्रजेची
सांगतां तुमकां एक गजाल एका राज्याची
फुडाऱ्यानी चोखून चोखून उरिल्ल्या रक्ताची
सांडलें कोणे रक्त हांगा, सोसले कोणे कश्ट हांगा
परक्यांच्या जुलमाखाला, पेटलीं खंयची घरां हांगा
रोयलें कोणे शेत हांगा, जेवलो कोण शीत हांगा
मडचाच्या ताळवेवेलें लोणी कोणे खालें हांगा
सांगतां तुमकां एक गजाल एका राज्याची
जुलमाखाला चेपून लेगीत पेटिल्ल्या काळजांची

सगळे नाचत नाचत फेर धरतात. तिनूय प्लॅटफॉर्मांचेर शिंपडटात. फ्रीज जातात. मदीं कोलेमांव आनी ताजे चमचे. दावेवाटेन क्रांतिकारी गट. उजवेवाटेन झापा गट. क्रांतिकारी गटाचेर उजवाड.

क्रांतिकारी : आमी शेंकडयांनी वर्सां परक्यांच्या शेकातळा जियेले. आमच्यो कितल्योतरी पिळग्यो गुलामपणातूच सोंपल्यो. आतां आमकां हें गुलामपण आमच्या खांदावयलें पयस करूंक जाय. हें गुलामपण आमचे उपरांत कोण येवन पयस करतलो म्हणपाची वाट आमीं पळोवंक फावना. तें आमकांच पयस करूंक जाय. आमचे रक्ताचेर हे गुलामपणाचो परिणाम जाला ही गजालूच आमी मुळासावन बिसरपाचो हो वेळ

जावन आसा. आतां आमकां स्वतंत्र जावपाचो गरज आसा. आमी अशे कितलो तेंप दुसऱ्यांच्या पोशान उदक पियेतले ? आमच्या शेजारच्याच ह्यापा राज्याची देख घेयात. कांय वरसांफाटीं तेय आमचे सारकेच गुलामपणात जियेताले. पूण ताणीं तें गुलामपण मोखून मारून, आतां स्वतंत्र राज्य म्हूण नांव जोडलां. पूण आमीच कमंकट्टे आनी शंड ! आमी अजून आमचे मानेर गुलामपणाचें जूं दवरून वावुरतात. मान सकयल घालून जियेतात. आतां आमकां हें जूं पयस करून स्वाभिमानान जियेवंक जाय.

नागू : आमी आतां स्वाभिमानान जियेना म्हणोन तुका कोणे सांगलां तर ! आमी शेतान वचोन दीसभर वावर करतां. कोणे आमकां वचोनाका म्हणोन सांगलां तर ? तांदुळ-गोटो सवाय गावता. केन्ना पेज्जे निसाक वळवळे पडल्या तर आमकां ?

दुमींग : सारकें उलयलोय रे तूं नागू. आरे, हांव सांजसकावचो माड काडितां. राती इल्लें पेटोवन हुस्क्या मेकवो न्हिदोता. कोणे म्हुजो केन्ना दामणो येलो ना वो दोन पायशे उणे दिवन केन्ना कोण सोरो पियेलोना.

क्रांतिकारी : पोटभर जेवन सुसेगाद न्हिदप म्हळ्यार स्वाभिमानान जगप न्हय. तुमी पांजऱ्यांत किराक घालून पोसतात. ताका बरें-बरें खावपाक घालतात. पूण पांजऱ्याचें दार उक्तें सांपडल्या बराबर तो कीर पळून वता. तो कित्याक पळून वता ?

दुमींग : तें आमकां कित्याक इचात्ता ? त्या किराक इचार. आमी वोच म्हणोन सांगला तेका ? न्हू रे नागू !

नागू : हांवूय तेंच म्हणटा न्हू रे ! हे कितले दीस जाले बेश्टेच म्हणोन बोबो मारता. दुस्मानानी ओहें केलें आनी भायल्यांनी तोहें केलें. गरजेभायर प्रेजावांत पडोन मार फार खाता. कोणेंय राज केलें म्हणोन कितें जाता ?

वासू : सारकें उलयलो. आमचें कितें वयता तर शेंट ! आनी आमी तेंका बोरे धांवडायले म्हणोन कितें तें वोयता ?

आंतोन : आनी बो ऽ ऽ रे गेले. मागीर शेरकार कोणे आमी चलोवपाचो ? आमचेंच काम आमकां नाका जालां. रांपण ओडटासर दीस धारेर पावता.

दुमींग : माडाच्या कोवळात बसोन हांव आख्ख्या संवसारार राज्य करतां तेंच म्हाका पुरो जालां. आनीक आनी कित्या तें दुसरें !

क्रांतिकारी : हें सगळें करून लेगीत तुमच्यांनी राज्य चलोंव येता. तें कशें चलोवपाचें तें आमी मागीर पळोवया. पयलीं आमी, हे सात दर्या पलतडच्यान येवन आमचेर शेक चलोवपी दुस्मानाक धांवडावन घालुया. आमी गुलामींतल्यान मुक्त जावया. ते खातीर आमकां झुंजपाचें आसा. आमी अशे वता थंय लिपचोरयां बसको घेत आसात. हें करतना आमी आमच्या हातांनी आमचें मरण मोलायतात हें आमकां बेसबरें खबर आसा. पूण आमच्या रक्ताचें शिंपण हे भुंयेर घाले बगर आमी ह्या बंदपासांतल्यान मुक्त जावपाचे नांत. क्रांतिचें बीं रोवन आमकां स्वतंत्रतायेचें पीक हाडपाचें आसा. आमी क्रांतिकारकांनी ह्या सत्ताधाऱ्यांक नाका शेवट करून उडयल्यात. ते आतां चड काळ हांगा उरचेनांत. आतां तुमीय पेटून उठूंक जाय. हीं तुमचीं मेंगेपणा आतां सोडात. ही स्वतंत्रतायेची माळ गळ्यांत घालून मिरोवपाक तुमी तयार रावात.

( सगळे एकमेकाचीं तोणां पळयतात. सगळे ओगी. )

अशें जिणें जियेवचे परस मेल्लें बरें. एक दीस केन्नातरी मरण येवंचेंच आसा तेन्ना तें आपल्या देसाचे सुटके खातीर दिल्लें कितें वायट ?

भुरगो : ( गर्देतल्यान पिट्टोळ कसो उडून उठ्ठा. ) हांव तयार आसा. हायें कितें करपाचें तें सांग. म्हाकाय तुजे सारकोच

झुंजपाचें आसा.

आवय : ( आपल्या भुरग्याच्या तोंडाक धरून बेगबेगीन सकयल ओडटा. )
मदेला रे ? सकयल बस ओहो मोन्यानी. तो सांगता आनी तूं उठ्ठा ? तेका एक आपल्या जीव नाका जाला.

भुरगो : म्हाका म्हाजोय जीव नाका जाला. हांव मरोंक तयार आसां. म्हाका दुस्मानां वांगडा झगडोन मरतना मात लेगीत भिरांत दिसपा ना. पूण तुमच्या असल्या लोकांमदीं मेंगो जावन रावंक मात लज दिसतली.

आवय : आतां ओगी बसता काय घालूं रे एक फातर तकल्यार. बरो पिटपिट्टा. पिट्टोळ कसो !

क्रांतिकारी : हो स्वतंत्रतायेच्या रक्ताचो नेट. गुलामपणाचे बंद तोडून मुक्त जावंक सोदपी रक्ताक कोणाच्यान बांद घालूंक जायत ? ह्या भुरग्याच्या तोंडांतलीं उतरां म्हळचार परजळीत भविश्याची नांदी. तीच क्रांती. आतां ह्या सुसेगगांवाक सुटका मेळपाचो दीस पयस उरूंक ना. तुमी असे दुबळे जावन रावतात देखुनूच हो दीस येवंक असो कळाव लागता. आतां तुमी पेटून उठात. ह्या भुरग्यांची देख घेयात. हें राज्य स्वतंत्र करूंक ज्या लोकांनी आपल्या घरदाराची होळी केली तांची याद करात. फाल्यां मरतले ते आयज मरपाक तयार जायात.

नागू : तूं सांगता जाल्यार आमी सरता मुखार !

भुरगो : तो सांगता म्हणोनशें कित्याक ? काळजांतल्यान म्हाका कोणतरी सांगता की हें हांगसर सुसेगगावांत आहा तें परक्याचें राज्य म्हणोन. तुमी जाण्टेल्यांनी जर अशी गळसणी हाडली जाल्यार आमी भुरग्यांनी कितें करपाचें ?

दुमींग : आंतोन, नागू, हे कालचे–पोरचे पोर आमकां लजेक म्हारग कोत्ताय मुरे !

आंतोन : शेटां फुटल्यांय आसतलीं. मालकियींद !

दुमींग : तेशें न्हू रे. आतांच्या भुरग्यांक संवसारार किते चोल्लां तें गोमता. आमचे सारके बोंडे न्हू रे ने ! कितले लोक मुकार सल्ल्याय जाणां ! ते कितें गरजेभायर आपणां जीव काबार कोत्ताय ? ह्या भुरग्यांक कितें भिरांत ना म्हणोन ते शेवटे कोहे उठ्ठाय ?

क्रा. फु. : तुमी सगळ्यांनी ह्या तरण्या रक्ताक नेट दाखयलो जाल्यार आमचें राज्य येवंक कळाव लागचो ना. आमी जिखलेबगर रावचे ना. चलात, सगळे म्हज्या वांगडा म्हणात- इन्कलाब. झिंदाबाद, आमचें राज आमकां जाय.
( सगळे घोशणा दितात. काळोख. )

: २ :

( झापा गट )

झापामु : (पान खावन थुकत) हे आवशी झंवरे क्रांतिकारी आमकां चान्स दिवंच्याक राजी नायशे दिसतत. अरे ! ह्या भंय झंवऱ्यांक ते परकी लोक काय भीक घालतल्यान ?

झापा १ : पण मी आयकतय, त्या क्रांतिकारकांनी सुसेगगांवच्या सर्व लोकांक स्पूर्ती दिल्यान. सगळा सुसेगगांव आतां पेटान उठ्ठलां असां म्हाका तरी वाटताहां.

झापामु : तुका वाटताहा आवशीची गांड. तुका जें काय वाटतहा तेका हंयसर म्हत्व नाय. तुका काय माती समजताहा ! आरे, ह्यां राजकारन. राजकारन आनी साकरकारकानो हेतूंत फरक आहा.

झापा २ : पन मी म्हनतय... आमी थंयसर जावंच्या आदी तेंका क्रांती करांक परमिशन दिल्यान कोनी ? क्रांती कराप म्हणजे काय काजूचे म्होवले सोलाप असां वाटलां काय तेंका ? झापा राज्याचो सपोर्ट गावल्याबगर जावंची आहा काय खंयसर क्रांती ?

झापामु : हेचीच जाप मी इच्चारतय तुमकां ! ह्या देशांत खंयसर क्रांती जावंची असो वा शांती जावंची असो. आमकां इचाल्ल्याबगर करतत तां काय आमच्या लिडरकींक काय कीड लागलीहा !

झापा १ : मगे आमी आतां काय करूंचाहा तेचो इचार करूया. नायतर थंयसर तो सुसेगगांव स्वतंत्र जातलो आनी आमी हंयसर पान चाबडायत उरतलेहा. काय करूंचा तां बेगीन केलेलां बरां.

झापा २ : तां तर करूंकच व्हयां. पूण सुचय मरे एक फक्कडसो इचार.

झापामु : तेका कळतय माती. आमी असां केलय तर कसां !

झापा १ : कसां कसां...

झापामु : आमच्या ह्या झापा राज्यात नोकरीची बोंबाबोंब. हय मां ! तर हयसल्ल्या थोडयांक आतांच पाठवून दिवया सुसेगगावांक. थंयसरच्या स्वातंत्र्यलढयांत गेले तर हुतात्मे म्हणान पदकाचे मानकरी थरतल्यान. आनी आमी सुसेगगांवच्या स्वातंत्र्यलढयांत वांटो घेवन आमी शेजारधर्म राखलो म्हणान फुडें फाटीं थोडो फायदो घेवंक मोकळे.

झापा २ : पूण थंयसर नोकरी खंची करांक धाडतय ?

झापामु : कसली म्हणान काय इचारतय ! आरे, आमचीच भास शिकोंवचेली. ते बोलतत ती काय तेंची भास ! आमचे भासेचीच बोली मा ती ! मगे, आमची भास शिकांक तेका आमचे माणूस नको आहा ? मास्तर म्हणान काम गावतलांहा. नायतर स्वातंत्र्यसैनीक म्हणान मरासर पेन्शन आसच.

झापा १ : आनी गुळी लागान मेले म्हंजे ! नोकरी पन नाय आनी पेन्शान पन नाय असलीच गत.

झापामु : थंयसर जावंच्या आदी, तुज्या गांडीत गू सुकलो की काय रे ! आरे, तुमकां थंयसर लढाई करांक कोण सांगतय ? ते सुसेगगांवचे लोक बोलतय जरी वेगळे, तरी शिकतत

आमचीच भास. तुमी थंयसर तीच शिकोवंक मास्तर म्हणान चला. मी हंयसर छापतय पेपरांत झापाची फौज म्हणान.

झापा २ : असां आसयतर मगे कळाव कित्याक? आजच जावंची तयारी करतय. फेणयेच्या थेंबाक माझी जीब वळवळताहा हंयसर.

झापामु : दोन-चार बाटल्यो हंयसर धाडूंक मेळतय तर बघा.

झापा १ : तां करूंक काय आमी रावतय ? ताबडतोब धाडून दितय. चल रे झापा जावया आमी सुसेगगावांक.

( कोरस गीत गायत वतात. )

चल, चल रे जावया लढायला
शेजारचा राज जिखायाला
सुसेगांवचे लोक झगडतय
आमी तेंका शिकयतय
सुसेगगांव थंयसर मरांदी
आमकां पेन्शान मेळांदी
चल, चल रे जावया लढायला

( कोरस गीत सोंपता आनी मदल्या प्लॅटफॉर्मावेलो कोलेमांव गटाचे चमचे आडुंतात ' व्हिवा, व्हिवा ' क्रांतिकारी गट घोशणा दिता. झापा गट हातांत बाटल्यो घेवन मिष्किल नुरा करून दोनूय गटांकडे पळयता. )




क्रां. ग. : इन्कलाब झिंदाबाद !

कोले : मालकिर्याद !

क्रां. ग. : भारतमाता की जय !

कोले : दळदिरे, चोर, फटींग.

क्रां. ग. : आमचें राज, आमकां जाय.

कोले : तोरपाशोर, फाफारांव.

क्रां. ग. : इन्कलाब-झिंदाबाद, इन्कलाब-झिंदाबाद !

(इन्कलाब-झिंदाबादच्यो घोशणा वाडटात. युद्धाचें वाता-

वरण. आतां ज्ञापा गट सोरो पिवून तर्रर जावन ' सुसेगगांव स्वतंत्र जावंकच व्हंयो, अशो घोशणा दिता. घोशणाच्या आवाजांत बाँब, आर्मीचो आवाज. काळोख जाता. उजवाड जाता तेन्ना सकाळ जाल्ली आसता. लोक गायत नाचतात. )

आयज आमचें राज आयलें, आयलें आमचें राज
परक्यांच्या जुलमाचें तुटलें जोत आयज
आयज आमचें राज आयलें, आयले आमचें राज
आयज आमी रगत दिवन, मांयभुयेंचें फेडलें रीण
भाग्यवंत तिच्या भाळार, तांबडो तिबो आयज
आयज आमचे राज आयलें, आयलें आमचें राज

( पद सोंपता तेन्ना सगळे वचून माचयेच्या एके कुशीक वचून बसतात. क्रांतिकारी फुडारी तांचे मुखार भाशण करता. )

क्रां. फु. : सुसेगगांवच्या स्वतंत्र लोकांनो, तुमकां सांगपाक म्हाका खोस भोगता. आयज आमी सगळे स्वतंत्र जाले. तुमच्या आमच्या सगळ्यांच्या मानेवयलें गुलामपणाचें जूं पयस जालें. कितलीं तरी वरसां आमी गुलामपणाच्या काळखांत चांचपडत उल्ले. आतां स्वतंत्रतायेचो लकलकीत सूर्य ह्या आमच्या सुसेगगावांचेर उदेला. हो खुशालकायेचो दीस हाडपाखातीर खूप जाणांनी आपले प्राण होगडायले. आपलीं घरां उबंत उडयलीं. आपल्या सुखाची पर्वा केली ना. इतल्या कश्टांनी मेळिल्ली ही स्वतंत्रताय आमी आतां तिगोवन दवरूया. आमी आमचेर राज करूया.

नागू : आमी आनी राज चलोवपाचें ? काणयेतली गजाल कशी सांगता मरे तूं ! गावडे म्हणोन केन्ना राज करतात ?

क्रां. फु. : तुमी गावडे न्हय. तुमी स्वताक उणाक समजू नाकात. तुमीच ह्या वाठाराचे खरे नागरीक. ह्या वाठाराचो फुडार बरो करूंक ह्याच वाठारांतल्या लोकांनी राज करपाची

गरज आसा. आमी आमचेर राज करूया. आमकां राज करपाची तांक आसा हें आमी आख्ख्या संवसाराक दाखोवन दिवया.

वासू : नागू, कितें म्हणटा रे तो ! तकलेंतूच गेलें ना.

नागू : वयतलें कशें तर तें ! तूं न्हिदो काडटालो न्हूरें ! रातीं केदें गेरंर जालें खबर आहा तुका !

आंतोन : केसो फारार फार जाताले रे ! न्हिदूंच पोडलीं ना. पाड पोडों चेडयेच्यांचें. न्हिदोंकूंच दिलेंना. येदचा मोठयान म्हणोन फार फोडोपू ?

नागू : गेरं म्हुटल्यार कितें फुरसाकडें माराण मारप रे आंतोन ! गेरं तें गेरं. मोनीस मरता तेंतून.

आंतोन : गेरीं आनी झुंझा कोन्न कितें पोटांत पोडपा आहा रे ? तोरी बोरें ! म्हुजे दाबणे फोडलेना हेणी गुळचो मान्न. पूण आतां इनयान जावन सोऱ्याक दर येवपा आहा रे !

वासू : इनयान कितें म्हणटा रे ! स्वतंत्र म्हण !

आंतोन : तेंच रे. तें जालें तें इनयान न्हू ! इंदयेच्या लोकांनी येवन हिंगाच्या राजाक धांवडावन घायलोंना ? आतां चोवया इंदयान कितें बोरें कोत्ता तें. सोऱ्या भाणां तोरी सवाय जाल्यार पुरो.

क्रां. फु. : परकी आमचेर राज्य चलयताले तेन्ना सगळें सवाय मेळटालें. पूण पोटाक पोटभर अन्न मेळप म्हळचार मनीस खुशाल-भरीत आसप न्हय. ते खातीर तांची बुद्द, तांचें मन स्वतंत्र आसूंक जाय. स्वतंत्रतायेची जाणीव आसली की गुलामितलीं पंचपक्वाना लेगीत कडू लागतात. उपाशीपोटार लेगीत सुखाची जाणीव जाता. फक्त पोटाखातीर आनी खिणभर सुखा खातीर ही मेळिल्ली संद होगडांव नाकात. कितें घडलां ताची जाणीव दवरात. जाणीं आपलीं घरां ल्हासून, त्या उज्यांतलें हें स्वतंत्रतायेचें भांगर तुमकां दिल्लें आसा ताची किंमत वळखात.

सगळे : आमकां भांगर दिल्लें आसा ! मागीर ग्रंय तर तें ?

क्रां. फु. : भांगर म्हळ्यार खरेलें भांगर न्हय. स्वतंत्रतायेक खरेल्या भांगरा परस चड मोल आसा. जशें तुमकां सगळ्यांक भांगर आवडटा, तशेंच भांगरा परस आंगळभर चडूच म्हत्वाचें आनी मोलाचें अशें हें स्वातंत्र्य.

आंतोन : तूं म्हुणटा जाल्यार जायत. आमी नेणार लोक.

नागू : तो म्हणटा म्हणोन न्हुरे आंतोन तो. सारकें सांगता. कितले जाणांनी परकी लोकांक धांवडावंक आपल्या घरदाराचेर नांगर भोंवडायला हें खबर आहा तुका ? आनी हेणे म्हणोन उणी कास्तीग घेहल्या ! हायें देखलां न्हू, म्हाज्या ह्या दोनीय दोळ्यांनी. तेका सोदूंक सोल्दाद येताले. आनी हो तेंका लिपोन रानां–वनांत उपाशी पोटार भोंवतालो.

बासू : हय रे पुता म्हाज्या ! कित्याक रे बाबा घराकडे जेवण नासलेलें ?

क्रां. फु. : खुप आशिल्लें. पूण तें आंगाक लागनाशिल्लें. आमचे मानेर परक्याचें जूं बांदिल्लें आसतना आमकां पक्वाना लेगीत गोड लागनाशिल्लीं. असले हे गुलामीत, लाचारपणान जियेंवचें परस, मरण वेंगावंक आमी मुखार सरिल्ले.

जानू : असो कोण रे तू अजापाचो !

नागू : तो सुटके झुंजारी. ताणें आनी ताच्याच सारक्या हेर जायते जाणांनी उपास–तपास काडले, मार–फार खालो म्हणोन आयज आमी स्वतंत्र जाले.

आंतोन : तूं सुटके झुंजारी ! आर्रा कापाजदादीचो मुरे ! खुपूच कास्तीग काडोली खुंय तुमी. न्हू रे !

जानू : सुटके झुंजारी म्हणोन आमकां पयलीं कित्या सांगलेंना. आमी तुका बसोंक कदेल दिवपा नासले !

क्रां. फु. : आमी कसलेच अपेक्षेन हें कार्य केलें ना. आमकां ध्यास आशिल्लो, ही गुलामपणाची बंदखण मोडपाचो. तें कार्य आमचें सोंपलें.

वासू : जांव बाबा तुमी तरी आमकां स्वतंत्र केले. आमचे राज हाडलें. देव बरें करूं तुमकां.

क्रां. फु. : आमचें काम आमी केलें. तें आमचें कर्तव्य आशिल्लें. आतां तुमचें काम सुरू जाता. हो स्वतंत्र सुसेगगांव लोकशाय पद्धतीन तुमकां चलोवपाचो आसा.

दुमींग : लोकशाय म्हुटल्यार ! नेयीं नेयीं उतरां मुरे !

क्रां. फु. : लोकशाय म्हळ्यार तुमीच राज चलोवप. तुमचो राजा तुमी वेंचून काडप. तुमी वेंचून हाडिल्लो राजा, तुमच्या बरेपणा–खातीर, तुमचेखातीर राज्य करतलों. तुमकां जाय तशें. आदल्या राजासारको आपल्याक जाय तशें न्हय. तुमचेर आतां कोणूच परकी हुकमत गाजोवपाचो ना. तुमच्या हक्काच्यो गजाली तुमकां मेळ्ळयोना जाल्यार ते विशी जाप विचारपाचो अधिकार आतां तुमकां आसा.

वासू : मागीर बरें जालें मरे ! असलें आनी आसता म्हणोन आमकां खबरूच नाशिल्लें. आमच्या आज्या–पणज्यानलेगीत केन्ना आमकां सांगो नासलेलें.

आंतोन : आतां अशें धरया. ह्या सगल्या लोकांनी म्हाकाच राजा करपाचें थारायलें जाल्यार हांव राजा जातलों.

क्रां. फु. : हय. जरूर जातलो. पूण लोकांनी तुजेर विश्वास दाखोवन तुकाच मतां दिवंक जाय. निवडून हाडूंक जाय.

आंतोन : तें मागीर चोवया. हेंच बऱ्याक पोडटलें मुरे आमकां. मागीर हो सांगता तशें आमचें राज आमीच चलोवया.

सगळे : हय वय. आमचें राज आमीच चलोवया. आमी कोणाचे चाकर जावन रावचे न्हूं. आमचेर राज आमी करूया. आतां आमचें राज येयलां.

( कोरस गीत. आयज आमचें राज आयलें.)

: ३ :

( कोलेमांव आनी ताजें चमचे चिंतेस्त जावन उलयतात. )

कोले : बंधूनो, आयज आमी आमच्या ह्या सुसेगगावांत परकी जाले. आमचें मुखेलपण आनी फुडारपण गोऱ्यां लोकांवांगडाच ह्या वाठाराभायरें जालें. आमी आतां कितें करपाचें ?

चमचे : कितें करपाचें ?

कोले : खरें म्हळ्यार आमीय ह्या सुसेगगांवाची आनी तेच बराबर देसाचीय सेवा केल्या. पुण मात्शी वेगळ्या तरेन.

चमचे : आनी मात्श्या वेगळ्या राजकर्त्यांची.

कोले : हो वाठार स्वतंत्र करूंक, खरो म्हळ्यार आमचोय मोलाचो हातभार लागिल्लो आसा. तो हातभार लायता आसतना, आमी थोडो म्हाल भायर–भीतर करून थोडो दुडूय जोडला आसत.

चमचे : हे, तें व्हडलेंशें धरपाचें न्हय. ह्या वावरांत तशें घडटाच. ताका उपाय ना. तो एक धंद्याचोच भाग.

कोले : सायड बिजनेस. आमचो मुखेल बिजनेस आशिल्लो तो म्हळ्यार हो वाठार परक्यांच्या हातांतल्यान सोडोवपाचो. पूण तें आमचे हे नेणार जनतेक सारकें समजलें ना. आयज हो सुसेगगांव स्वतंत्र जालां तें आमचेच खातीर. तातुंत आमचो शिवाचो वांटो आसा. आमी जर ह्या गोऱ्या सायबांक नमळायेची विनंती करून वच म्हुण सांगू नाशिल्लें, जाल्यार ते वच्चेच नाशिल्ले.

चमचो १ : दुबाव नासतना. जे कोण आमकां परक्यांचे चमचे आनी हस्तक म्हणटात तीं तांचीं कुन्नाटेपणा.

चमचो २ : आमी सुटके झुंजाऱ्यांचीं नांवा आनी खबरो परक्यांक सांगून तांकां धरून दिवपाचें काम केलें म्हणपाचे आरोप आमचेर करतात.

कोले : तीं तांचीं नेणारपणा. आमी हें सगळें केलें तें सुटके झुंझा-

त्यांच्या बऱ्या खातीरूच. कितले दीस जाले ते धांवपळ करताले. रातीचे राती जंगलानी काडटाले. असले धाख–धपाटे केन्ना कोणाच्यान चड तेंप काडूं येता? तांकां सुसेग घेवपाची गरज आशिल्ली. जेवणा–खाणाची गरज आशिल्ली. तांकां धरून दिल्ल्यान तांच्या आयुश्यांतले हे उतळताप गेले ना?

चमचो २ : हें सगळें पळयल्यार अशें दिसून येता कि आमचो ह्या सुटके झुंजांत म्हत्वाचो वांटो आसा. त्या खातीर हाचो फायदो आमच्या मुखेल्याक आनी आमकां मेळूंकच जाय. ते खातीर आतां कितें तरी करपाची गरज आसा.

चमचो १ : कितें करपाची गरज आसा?

कोले : आमचो धनी जरी परकी आशिल्लो तरी तो एक हुशार आनी कापाज राजा आशिल्लो. तो आतां हांगा ना जाल्ल्यान हो वांठार सामको पोरको जाला. जसो एके रांड बायलेक एका घोवाची नितांत गरज आसता, तशी ह्या सुसेगगावांक एका राजाची आतां नितांत गरज आसा. आनी म्हाका राजा जावपा सोडून आनीक कसलेंच हेर काम जमपाचें ना.

चमचो २ : आमकाय ह्या वाठाराक एका हुशार आनी तोखणायेन भरिल्ल्या अपुरबायेच्या राजाची ताबडतोब गरज आसा.

कोले : ह्या सुसेगगांवच्या बरेपणा खातीर आनी फुडाराखातीर एक बऱ्यांतलो बरो राजा सोदून ह्या सुसेगगांवचें भाग्य परजळीत करप हें आमचें पयलें कर्तव्य थरता.

चमचो १ : तसलो राजा आमी आतांच सोदून येतात.

कोले : तसो सामको फीट् असो राजा तुमकां म्हजे शिवाय आनी दुसरो कोण दिसता? जर कोणूय नदरेमुखार आसत जाल्यार...

चमचो २ : ना. तुमचे शिवाय आमचे दोळ्यांमुखार दुसरो कोणूय हाडप म्हळ्यार लेगीत पाप. आमकांच न्हय, तर ह्या प्रदेशां-तल्या एकान एक परजेक, ह्या बहुजन समाजाक सुखी जाव-

पाचें आसा जाल्यार तुमचे सारख्याकूच राजा जावप गरजेचें. ती जापसालदारकी तुमीच घेवंची.

कोले : पूण ती जापसालदारकी ह्या म्हाज्या भुजांकडें पेलूंक जातली !

चमचो १ : कित्याक पेलचीना ? तुमी मिनाचो येदो व्हडलो धंदो चलयलोंना ! सोल्दांदांक चुकोवन म्हाल भायर–भीतर केलों ना ? ह्या सगळ्या राठावळीं परस ह्या सुपूल्ल्या वाठाराचो राजा जावप म्हळयार कांयच न्हय.

कोले : तरीपूण हांव ह्या कामांक लायक आसां अशें म्हाका दिसना. म्हजेपरस कितले तरी बुदवत हांगा आसात !

चमचो २ : राजा जावपाक बुद्द कित्याक जाय तर ! ही तुमची नमळाय. व्हड मनीस आनो जातीचो राजा हेच नमळायेन उलयता.

चमचो १ : तुमचेकडें दुडू आसा. तुमी गोरे लोकांच्या दरबारांत भीतर भायर घोळील्ले आसात. शिवाय तुमी गोऱ्या लोकांची भास थोडी–भौव उलोवंक जाणात. शिवाय शेजारचे एक–दोन गांव भोवलेले आसात.

चमचो २ : ते भायर तुमी थोडे–भोव सुटके झुंजारीय आसात. तुमगेर केन्ना तरी दोग जाण सोल्दाद येवन गेल्याच न्हय.

कोले : अशें ! मागीर तुमच्या आनी भौजन समाजाच्या कल्याणा-खातीर म्हाका राजा जावंक कसलीच हरकत ना तर !

चमचे : चे ऽ चे हरकत कसली ? तुमी राजा जावंकच जाय. तुमी आमचेर राज्य करूंकच जल्माक आयल्यात.

कोले : तशें जाल्यार ह्या स्वतंत्र सुसेगगांवचों पयलो–वयलो राजा जावपाचो भौमान म्हाकाच घेवंदी. तुमी आतांच वचात आनी जनतेक सांगात की तुमच्या खातीर जसे व्हड–व्हड म्हात्म्यानी ह्या देशात जल्म घेतलो, तसोच तुमचो राजा जावपाकूच म्हणोन एका मनशान हेच भुंयेत जल्म घेतिल्लो

आसा. तोच तुमकां बरें, पुराय लोकशाय पद्धतीचें राज्य दितलो.

चमचे : आमी आतांच चल्ले. तुमी राजा जावपाची तयारी करात. आमी लोकांक मतां दिवपा खातीर तयार करतात. आमी ते खातीर एक गीत लेगीत रचून दवल्लां.

आलेमांव, कोलेमांव सगळे आमी भाव
तुका राजा केल्यार आमचें वयर येतलें नांव
आमचे लोक फोंडांत वचूं, आमचेंच बरें जांव
ह्याका नागावन, ताका फटोवन तरी आमी साव
कोलेमांव, कोलेमांव तूं राजा जांव.

: ४ :

( झापाचे लोक बसून उलयतात. )

झापामु : हां... तर तां राज्य स्वतंत्र झालां हां. असांच मां ! जावंकच व्हंया हुतां. शेवटाक आमच्याच लोकांनी मां तेंका मजत केली !

झापा १ : पूण आमचे लोक पावलेच नाय म्हणे थंयसर ! सिमा हुपल्या बराबर तेंका सगळ्चांक अमृत दिसलां. त्या अमृताच्या एका घोंटान ते जे झोंपल्यांत, ते बद्द स्वतंत्र जालां तेन्नां सुद्दीर पावल्यात. उठून बघतय तर स्वतंत्र जालां. आमचो एक लेगीत माणूस थंय कित्याक पावलोंना.

झापामु : तूं गप्प बैस भंय झव्यां. तुका कोणे रे मदे बोलांक सांगलां हा. असां भायर बोललां तर घाण करतलय. जी गजाल आपल्याक कळनयना ते विशीं ज्यास्त बोलायचां नाय असां वेदांत सांगलां मां ! आमचे लोक थंय आसले काय ना ह्यां बघांक तूं गेल्लोय ! थंयच्या क्रांतिकारकां परस आमचेच लोक चड हुतात्मे झाले हा असांच फाल्यां पेपराचेर आवट होतय काय नाय तां बघ.

झापा २ : आनी आमची फौज जर थंयसर नाय गेल्लीं तर गोरे लोक सगळां सुसेगगांव जाळून काबार करतले आसले. वखदाक पसून नाय मेळटलो आसलो मनीस. बरां जालां आमी टाय-मार थंयसर गेल्यान.

झापामु : ह्यां असां बोलायचां असतय, आरे, राजकारणी भाषा जरा शिकून घे हेच्या कडसून,

झापा १ : तांच तर शिकतय. मगे आतां सुसेगगांव स्वतंत्र जालां म्हणान आमी झेंडो चडयल्यार कसो ?

झापामु : ह्यां बघ परत चुकलो बोलांक. झेंडो खंय चडोवंक व्हयो ! आवशीच्या घरार ? अरे ! हांव तुमचो मुखेली. हय मां ! काय करूंचा आहां तां मी करतलंय. काय माझ्या ह्या खोपडींत मेंदू नाय आसा.

झापा १ : मेंदू आसय म्हणान तर आमी तुमकां मुखेली केल्यान.

झापामु : मगे मुखेल्याचां शांतपणान आयकून घेवंक व्हंया, हो मेंदू तुका कसा नाय तर ! आतां तुमी बघत बसा हो मेंदू कसा चलतय तां.

झापा २ : सुसेगगांवच्या स्वतंत्र राज्याक असल्याच मेंदवाची जास्त गरज आसय. असल्या सुपीक मेंदवाची तेंका आनी आमकां मदत जातली.

झापामु : आतां सुसेगगांवचो राजा कोण जातालाहा तां बघांक व्हंया. तेका पयलींच धरून गळच्यांत दोरी घातली कीं व्हंया तसां नाचोवंक बरां.

झापा २ : तसो एक मनीस आसय. तो गोऱ्या लोकांकडें बरां सूत जमोवन आसलो. असां आंतल्या गोटांतसून कळतय. तेकाच राजा जांवची खोशी आसय. भायल्यांक मोठो मानप होच तेचो सभाव. तेंतूनच तेका धन्यता.

झापामु : असां ! मगे तेका राजा बनांक आमची मजत नको आसय ! तुमी म्हाका वेंग मारून बसच्या बदला तेका मजत करा मां जावन.

झापा १ : तेचोच इचार आमी करतत. आतांच वचान तेच्या गोटांत घुसलेलां कसां ! तेका लोकशाय म्हणतत तां पण शिकोवंक बरां पडटलां. नाय तरी आमकां तशी प्रक्टीस आसय. इलेक्शान घेवपाची. लोकांक मतां दिवंक तयार करपाची.

झापामु : मगे आतांच वचान घुसात तर. कळाव कित्याक करतत !

झापा २ : ह्यां काय मी रेडी आसय. आजच निघतय कामांक. चल रे निघया.

(कोरस)

झापा निघाला सुसेगगांवाला
कोलेमांव चोराला राजा करायला
झापा राजाची फौज मोटी, कोलेमावांची बुद्दी खोटी
राजा करून तेका गुलाम करायला.
झापा निघाला सुसेगगांवाला.

: ५ :

(भुरगे कोयणे बालांनी खेळटात.)

भु. १ : खोले, खोऽलेऽ. जानू, आमच्या झुंजाऱ्यांनी भायल्यांक जशे खोले केले न्हू, तशेंच हांव खोले करतां आं बाल. पळोवया तुजेकडें जिखोंक जाता जाल्यार !

भु. २ : तुजें बाल खंयचें शेंट रे ! हें पळय जिखता काय नां तें. करूच तूं खोले. रडी मात खेळप ना आं ! नातर, तूं पोटण्याचो सदींच रडी खेळटा.

भु. ३ : जानू, तूं गाळी संवत जाल्यार हांव ना आं खेळोंक. म्हाका आवय शेपलायतली.

भु. १ : तेज्या तोंडार म्हणोन सदांच गाळी. खंय शिकोन येता म्हणोन देवाक खबर ! खोले करतां आं.. ! खोले ऽऽ

(भुरगो ४ येवन बाल धरता.)

भु. ४ : हायें जिखलें. जालो तूं आवट.

भु. १ : जिखलें कितें ! तूं खंय खेळोंक आसा तर ! अशें कोणेंय रस्त्यावयल्यान जिखलें जाल्यार खेळ जाता ? खेळाक म्हणोन कितें लेय आनी रीत आसता काय ना रे ? दी तें बाल हांगा. परतून खेळटां हांव.

भु. ४ : खेळ झक माल्लो रे आतां. हायें नेयी खबर हाडल्या ती आयकया पयलूं.

भु. २ : तुगेल्यो त्यो खबऱ्यो तोह्चोच. चिकाणाच्यो.

भु. ४ : च्या... ही सामकी ताज्जी... सामकी नेयीच म्हणल्यार जाता.

भु. ३ : कितें रे पेद्रू भाटकारालीं पेरां पिकलीं ?

भु. १ : ती कितें नेयी गजाल म्हणोन ! हांव सदींच पळोवन पळोवन येतां. आजून काकाडेच आसात.

भु. २ : नातर कामतीलीं आडसरां पाडगाचीं आसतलीं. चेडयेचो सदांच वचोन वचोन घालता तेजी बोब.

भु. ४ : चे... तीय न्हू रे. सामकी नेयी. आतांच सांगल्या म्हाका दायन.

( सगळे ताज्या भोंवतणी कोंडाळें करतात. )

भु. ३ : सांग मरे आतां बेगीन. असो बेश्टोच कुवाडयांत दवरूं नाका आमकां.

भु. ४ : सांगता न्हूरे. पूण तुमीच उलयता उदळ सावन. जाणा मरे हांगा एलीसांव जातलें खंय. म्हाज्या दायक एकलो दूडवांकार घेवन गेल्लो. तेणेंच तेका गाडयेंतल्यान हाडून पायला.

भु. १ : सांगता कितें रे ! एलीसांव जातलें ! तें रें म्हणल्यार कितें ?

भु. ४ : आमी सगल्या लोकांनी मतां म्हणोन दिवपाचीं आसतात. तीं दिलीं काय एकलो कोणतरी राजा जाता.

भु. ३ : आमी मतां दिलीं म्हणोन कोण राजा जाता ! राजा जावंक

घोडो जावो तरसाद जायी. आमी नाटकांनी पळोवना तर शिवाजी राजा कसो येता तो !

भु. ४ : ते आदलींचे राजा रे. आतां घोडे खंयचे ! गाडयो येयल्यो न्हू रे. आतां तो गाडयांनी भोंवतलो. म्हाकाय म्हणोन सारकें खबर ना रे. आयज तेंच सांगपाक मिटींग दवल्ल्या खंय तिठयार. राजा जावपी तो आमकां येवन सांगतलो खंय कि आपणाकुच राजा करा म्हणोन.

भु. २ : तें तेणें कित्याक सांगोक जायें तर आमकां. तेका जावो तर जावंदी तेका राजा. आमचें कितें वयता, शेंट !

भु. ४ : च्याऽ नं तसलें आतां कांयच उपकारना खंय ! आतां राजा लोकांनी करपाचो. तें सगळें सांगल्यार, तुमी थंय मिटींगेक कितें आयकतले तर !

भु. १ : चला तर, बेश्टोच कळाव नाका मागीर.

भु. ३ : आमी आतांच वचोन बसोया थंय. कसली नेयीदाद तरी ती पळोवया. चल वचया मरे. मारया धांव.
( सगळे गाडी कशी करून वतात. )

: ६ :

(वाडयार बायलां मिटींगेक वचपाची तयारी करतात.)

आवडू : ये शेंवत्या या मगो मिटींगेक ? खंय गेलें गो ? या मगो ?

शेंवतें : इतले बेगीन गो ! हायें निकतेंच पेज्जेक उडयलां.

आवडू : तुजेर आनी कसलो सांवार येयला गो बाये ! येदचा बेगीन म्हणोन रात्रीक उजो घालप ?

शेंवतें : सांगोक जायना न्हू गो. मिटींगेक बेश्टोच कळाव–बिळाव जालो जाल्यार ! शिवा बापूय मागीर बेश्टोच संवतलो म्हाका जेवणाक वोगोत जालो जाल्यार.

आवडू : रुक्मिण खंय गेलें ? ओ रूक्मिण, सर मगो भायर. भीतर कोणाक वेंग मारून बसलां ?

रूक्मिण : कितें गो आवडू तोंडाक सुवाद धरिनासतना उलयता. आतां देंवता थंय आसां.

आवडू : कोणाचेर चडलेलें तर तूं देंवोंक ?

रूक्मिण : पाड पोडों तुज्या तोंडाक. म्हाका तूं सामकें हें समजों नाका. दोंगरार गेल्लें तें खबर ना गो तुका ! आतांच भोरो घेवन येतां थंयच आसां. तोंडाक उदक लेगीत लायलेंना.

आवडू : मागीर सर मुगो भायर. चड नेटोंक आनी रावों नाका.

शेंवतें : ह्या आवडूक आनी सुसेगुच ना. कोण पळोवंक रावलेल्या भाशेन तेका.

आवडू : म्हाका पळोवन तेंका कितें मेळपा आहा गो ! मिटींग न्हू गो एलीसांवाची. मतां दिवंचे पयलीं पळोंव नाका एकदां तरी.

रूक्मिण : तुका कितें राणी करतले काय कितें गो ते ! काय पोटलो बांदून दवल्ला तुज्या खातीर. पायांक म्हणोन थारूच ना. आनी ही कसली भानगड म्हणोन देवाक खबर ! हालींच गेर म्हणोन कितें जालें आनी आतां हें एलीसांव.

आवडू : तो आदलींचो राजा गेलो न्हू गो आतां. तेज्या सुवातेर नवो राजा वेंचूक काडूंक ही मिटींग.

शेंवतें : एक एक म्हणोन अजापापाचेंच आं हेंचें ! तो कोण राजा आसलो तेंका भायलो म्हणोन भायरो केलो. तेंका धांवडावंक आपलें प्राण लेगीत होगडायले. आनी आतां रोखडोच दुसरो राजा करूंक ही मिटींग. राजाच जावो जाल्यार पयलूंचो आसलो तेका कित्याक धांवडायलो तर !

आवडू : घोव नासतना म्हणोन बायलेचें जाता गो ? मीण म्हणोन केन्ना घोव जाता ? भायले हे मिणां सारके आसले. हांगचो राजा हो खरेल्या घोवा सारको.

शेंवतें : म्हणोन गो कितें जालें ? जर दुसरो राजा नाका जाल्यार नाकाच. भायलो आनी भितल्लो म्हणोन कितें ! ते म्हणोन कितें मनीस नासले तर ! काय खंयच्या मळबांतल्यान पडलेले.

आवडू : तें आमकां कितें कळटा ? आमी चडूच शिकल्यां ! शिकलेले सांगता तें आमी आयकुपाचें न्हू. ते सांगता तें आयकोया आनी राजा कोणाक करपाचें तें पळोवया. तो कोण राजा जावपा आहा तो खुपूच हुशार खंय ! तेकाच राजा करूंया अशेंच सगले म्हणटात. तें आसूं. हायें सांगलें म्हणोन तुमकां कळटा ? तेजेंच आयकोया वचोन.

रूक्मिण : वांगडाच या मगो. हांव कापड तरी बदलून येतां. आजून तोंडार लेगीत उदक माल्लेंना.

शेंवतें : हांवूय रात्रीवयलो बुडकुलो सकयल काडून येतां.

आवडू : चलात तर बेगीन. हांवूय एकदां दांतोणी मारतां केंसाक.

शेंवतें : सामके नेटोन भायर सर गो आवडू. तुकाच पळोवंक रावल्या थंय ते सगळे.

रूक्मिण : तुकाच दवरया एलीसावांक.

आवडू : तुमी घालतलीं मगो मतां म्हाका !

शेंवतें : हय–वय. कांयच भियों नाका तूं. चल सरया भायर.

( वतात. )

( सुटके झुंजारी आनी हेर उलयतात. )

क्रां. फु. : आमी सुसेगगांव जरी मुक्त केलो तरी तितल्यारूच आमची जापसालदारकी सोंपना. हांगा, ह्या सुसेगगावांत कितल्यो तरी आमच्यो पिळग्यो साम्राज्यवादयांच्या सत्तेखाला गेल्यो. तांकां लोकशाय म्हळयार कितें तें खबर ना. सद्याचें इलेक्शन हें आमचें पयलें इलेक्शन. हे अशिक्षीत जनतेचो आनी तांच्या नेणारपणाचो फायदो घेवन कोणें हांगा राज्य चलोवचें न्हय. ते खातीर आमकां खुपूच शादूर रावंक जाय. हांगा बरो सरकार हाडप हें आमचें काम.

सु. झु. १ : तें तर आसाच. भायल्या लोकांक आमी धांवडावन घाले. पूण आमच्यांतलेच आमचे दुसमान कोण आनी इश्ट कोण हें वळखून काडप कठीन जालां.

सु. झु. २ : कोलेमांवाचीच गजाल घेयात. केन्ना ताणें गरिबांकडें

नजर भोंवडावन पळयलां ? सदांच गोऱ्या लोकांच्या दरबारांत तांची चमचेगीरी करीत रावलो आनी आतां एलिसावांक उबो रावपाक सगळयांत पयलीं मुखार. ताका जर आमच्या लोकांनी निवडून हाडलो तर हो सुसेगगांव स्वतंत्र केल्ल्याचो कांयच उपेग जावचो ना.

सु. झु. ३ : पूण तो आमचोच न्हय ! लोकशाय पद्धतीन जर आमी वेंचणुको घेतले तर कोणाविशीं उलोवन, ताका वायट मानून संद दिवप ना हीं मूर्खपणा जातलीं. कोलेमांव आमकां वायट दिसता तसो हेर जनतेकय वायट दिसता काय कितें तेंय पळोंवक जाय. तशो जर जनतेक खात्री पटला तर ती ताका वेंचून हाडपाची ना.

क्रां. फु. : तें सगळें आमकां कळटा. ही अडाणी जनता. तांका वेंचणुको म्हळयार कितें हें कांयच खबर ना. आपल्या मताचो व्हालोर कितलो आसा हाचो अदमास तांकां ना. हांच्या नेणारपणाक लागून कोलेमांव जर निवडून आयलो जाल्यार ताका राज चलोवप जमतलें !

सु. झु. ३ : तें ताणें चलोवचें पयलीं आमकां कशें कळटलें ? पयलीं हांगचो कोणूच मंत्री जाल्लो ना. पयलेच फावट आमकां संद मेळटा. जर ताका इत्सा आसा जाल्यार रावूदी वेंचणुकांक आमी किदयाक आडमेळें हाडुया ? ताका उडोवपा खातीर तुमी आपले परीन वावर करात. जर तो वेंचून आयलोच आनी समजा ताणें सत्तेचो गैर उपेग केलोच जाल्यार आमी आसाच पळोवन घेवंपाक.

सु. झु. १ : जर ताचेविशीं दुबाव आसा आल्यार विखाची परिक्षा कित्याक घेवपाची ? आमीच लडोवया ही वेंचणूक.

सु. झु. ३ : पूण लोक कितें म्हणटले ! आमी फक्त सत्ता भोगूंक जाय म्हणूनच झुंजले अशें म्हणपाचे ना !

क्रां. फु. : तशें सगळेच उलयतात कितें ना कितें. आमी सुटके खातीर झुंजतना ह्याच लोकांनी आमकां पिशे म्हळेंना ! आनी आमचें

सर्वस्व ह्या झुंजात ओतलें. केन्ना आमच्या प्राणाची पर्वा केली ना. भुरग्या–बाळांच्या सुखाकडें लक्ष दिलें ना. पूण ह्या कोलेमांवान केन्ना त्या परक्यांविरुद्ध केन्ना एक उतर काडलां? तांचे कडल्यान जाता तितलो फायदो मात घेतला.

सु. झु. २ : आमकां धरून दिवपाचें काम मात ताणें भेस बरें केलां. आमच्या देसांतल्या हेर राज्यांत पळयात. तांचो सरकार कसो क्लिन आनी हुशार. ना तर हो! स्मगलींग आनी आंगवस्त्रां दवरपामेरेन हाची मजल. ताका निवडून हाडलो जाल्यार देश थुकतलो आमच्या तोंडार. शिक्षणाचो तरी गध आसा ताका कितें!

सु. झ. ३ : शिक्षणाचो आनी राजकारणाचो संबंध आमी लावचो न्हय. आमी कितें व्हडलें शिकल्यात? आनी स्मगलींग भायली संवय, शिंदळकी बी ह्यो सगळचो पसर्नल गजाली.

क्रां. फु. : हेंच तर आमचें चुकता. जो मनीस स्वताच स्वच्छ ना तो स्वच्छ सरकार कसो दितलो? तो जें कितें करतलो तें आपल्याच सुवार्थाखातीर. आमी सुसेगगांव मुक्त करूंक झुंजले. पूण मुखार कितें हाचो विचार केलो ना.

सु. झु. १ : तोच तर करपाक आमी हांगा जमल्यात, आमी वेंचणुकांनी कितें करपाचें तें आतांच थारावंक जाय. कोलेमांवान तर आपलो प्रचार सुरू केलाच. ह्या सुसेगगांवच्या लोकांक आतांच जर योग्य वळण दिलें ना, सारको मार्ग दाखयलोंना जाल्यार मुखार जें कितें वायट जातलें ताचें सगळें पाप आमच्या बोडार येवन पडटलें. ते खातीर ही वेंचणूक आमी सुटके झुंजाऱ्यानी लढोवपाची गरज आसा.

सु. झु. ३ : पूण आमीच निवडून येतले हाची खात्री कोण दितलो. जर आमी वेंचणुकांत पडले तर आतां आमकां सुटके झुंजारी म्हणून जो मान मेळटा तो पासून मातये भरवण जातलो. आमी वेंचणुकानी पडले जाल्यार आमचीं पत खंय उल्ली!

क्रां. फु. : लोक आमचेर असो अन्याय करपाचे नांत आमी केल्ल्या

त्यागाची तांकां जाणीव आसा. आमकां ते वळखतात. ह्या वाठाराचो सरकार घडोवंक ते आमकांच वेंचून दितले. आमी कोलेमांवच्या विरुद्ध रावंक आमच्या सुटके झुंजाऱ्यांचो एक पक्ष तयार करूया. सुटके झुंजाऱ्यांचें पयलें सरकार हांगा हाडुया.

सु. झु. २ : कल्पना वायट शी ना. तुमी सगळ्यांचें जर नक्की जालां तर मागीर ह्या कामाक कळाव कित्याक ?

क्रां. फु. : आमी सुटके झुंजाऱ्यांचो पक्ष स्थापन करपाचो. आमची निशाणी नांगर घेवया. हो वाठार आमकां नांगरपाचो आसा. गुलामपणाचो कोयर काडून तांतूत आमी लोकशायेचें बीं रोवया. नांगर हें आमचें पोट. ह्या नांगराचें जैत म्हळयार आमचें जैत. ह्या देसाचो फुडार.

(सगळे घोशणा दितात. नांगराचें जैत जांव—जैत जांव)

: ८ :

(कोलेमांव तिठ्यार मिटींग घेता. दुसरे वाटेन सुटके झुंजारी. जमिल्ले लोक दोगांयचेंय आयकतात.)

कोले : बंधूनो आनी भगिनीनो, तुमी जाणांत, आमचो हो प्रदेश स्वतंत्र जालो. तो स्वतंत्र कोणे केलो ? हायें. (ताळयो.) म्हाजेकडेन गाडी आसा. तेंचेकडेन कितें आसा ? म्हाजेकडेन मीन आसा ? तेंचेकडेन कितें आसा ? म्हाजेकडेन जायतें आसा. हांव जर हांगा निवडोन येयलों, जाल्यार तुमचें सगळ्यांचे नशीब फळटलें. जसो सकाळचो चकचकीत सुर्या उदेता. हांगा भरपूर पावस पडटलो. हांव तुमकां देवळां बांदून दितलों. तुमी देंवळा नासतना वडापोंदच्या फातराक फुलां घालतात आनी पुजा करतात. तें म्हाज्यान पळोंव नज.

तुमकां हांव देवळां बांदून दितलों आनी पुर्तूगालाक तयार जाल्ले देव हाडून थंय स्थापन करतलों. त्या देवाची तुमी

मागीर पूजा करात. पूजेची फुलां दिल्ली साकून विमानान हाडटलों. तीं फुलां घालून तुमी पूजा करात आनी जें कितें जाय तें त्या देवाकडेन मागात. त्या देवाच्या पांयाकडेन घाराणे घालात. हांगा नुस्तें सवाय जातलें आनी खुप कितें कितें सवाय जातलें. हांवें हांगा कितें करपाचें तें आजून थारावंक ना. तशें येवजुपाक लेगीत म्हाका ह्या बोवाळांत वेळ मेळूंक ना. तेन्ना तुमी म्हाकाच निवडून हाडचो. तुमच्या मदलो बहुजन समाजाचो हांव मनीस. तुमी केन्ना तुमच्या सारख्या बहुजन समाजाचो मनीस म्हाज्या सारको असो व्हड जाल्लो पळयला? ना जाल्यार आतां पळयात. हांव निवडून येतकच तुमकांय तशेंच करतलों. हांव तुमकां शिकोवन व्हडले करतलों. तेन्ना तुमी तुमचें मोलादीक मत म्हाकाच दियात. आमची निशाणी आसा, बुकलो. बुकल्याक जशी नुस्त्याची रूच तशी आमकांय सुसेगगांवकारांक नुस्त्याची भौच अपुरबाय. त्या खातीर तुमी तुमचो शिक्को बुकल्यारूच मारात.

चमचे : तुमचें मत कोणाक बुकल्याक. तुमचें मत कोणांक? कोले-मांवाक, कोलेमांवाचें जैत जांव–जैत जांव.

( सुटके झुंजारी उलयता. लोक तशे घुंवतात. )

स्वा. फु. : आमी सुटके झुंजारी हो सुसेगगांव स्वतंत्र करूंक झुंजले. आमी नोकरी केलीना. कसलो उद्योग–उदीम केलो ना. आमी तुमकां स्वतंत्र करूंक सोदताले म्हणून परकी लोकांनी आमचीं घरां–दारां धुवन व्हेली. तरी पूण आमी कांयच पर्वा केली ना. आमी हो त्याग केलो, अशें हांव म्हणना. आमी आमचें कर्तव्य केलें. आमी काडिल्ल्या कश्टांचें फळ म्हणून आमकां हें स्वातंत्र्य मेळ्ळां. आमचें राज्य आमकां मेळ्ळें. आतां तें बरे तरेन चलोवपी बरो सरकार आमकां जाय. तो आतां तुमी हाडपाचो. सरकाराचेर येवंक आतां खुपूच जाण मुखार सल्ल्यात. पूण ताणी केन्नाच ह्या

सुसेगगांवचें आनी हांगच्या लोकांचे हीत पळयलेंना. असल्या स्वताचोच सुवार्थ पळोवपी मनशांक तुमी वेंचून हाडटले ? हो सोभित वांठार सोंपोवन उडयतले तुमी ? जर जाप ना असी आसत जाल्यार तुमी आमच्या पक्षाक निवडून हाडूंक जाय. आमची निशाणी आसा नांगर. तुमचें मत तुमी नांगराकूच दियात आनी एक बरें सरकार सत्तेर हाडात. तुमचें राज तुमी चलयात. तुमचें मत कोणाक– नांगरांक. तुमचें मत कोणाक–नांगरांक.

( लोक घोशणा दितात. आपले भीतर उलयतात.)

१ लो : आवयचो घोव ना घरा मरे ! एकलो उठ्ठा एक सांगता. दुसरो उठ्ठा दुसरें सांगता. तकलेंतूच वचना. कोण म्हण्टा हें दिता कोण म्हण्टा तें दिता. पळोवया तरी कोण कितें–कितें दिता तो.

२ रो : तोहें न्हू रे ! तेणें पळय त्या बुकलेकारान बरें सांगलेंना. पावस–बिवस दितलो म्हणोन. तो देंवळाय बांदतलो खंय वयता थंय. जांव बाबा, एक देऊळ म्हणोन नासलेलें गांवात. केन्नाय वचोन पायें तरी पडोंक येता. तेकाच दिवपाचीं रे आमी आमचीं मता.

३ रो : तुमकां तो देवळां दितलो आनी आमकां कितें ? तेंका फकत हिंगा कोंकणेच दिसले ? देवळां बांदून दिताय खुंय ! तेंका देवळां आनी आमकां एक खुरीसूय ना ? काय आमी मेले रे ! हांव जाणाच आहलों इनयान जातकच तुमी आप– आपल्या चोयतले म्हुण. हांव तेंका सोलां दितां ओत.

४ थो : तुगेलें मत कोणांक त्या नांगराक तर ! मार. कसो निवडोन येता तें तरी पळोवया. म्हाका त्या सुटके झुंजाऱ्यांच काय खरेपण लागना. झुंजपी म्हणोन केन्ना राजा जाता ? शिवाजी म्हाराजाचे कितले मावळे आशिल्ले. तेणी केन्ना शिवाजी म्हाराज राजा नाका म्हणला ! मावळे राजा जाल्ले जाल्यार संवसार परततलो मगा ! आमचें सरकार

कोलेमांव चलयतलो.

५ वो : सारकें उलयलो तूं. सामको देवाबशेन. आमी आमचीं मनां कोलेमांवाकूच दिवपाचीं. तोच राजा कसो दिसता. आनी तो सांगता न्हू आपुण तुमचोच म्हणोन !

३ रो : हय रे हय. तो तुमचोच. तो तुमचेंच बरें करतलो. पोवया न्हू कितें कोत्ता तें. ह्या बाबड्या सुटके झुंजाऱ्यांनी आपली वाट लायली तेजो उगडास जायना तुमकां ? नांगर तरी शेताक उपकात्तलो. बुकलो कितें करूंक ?

१ लो : तुमी कित्याक झगडटा रे गरजेभायर ! मारा कोणाचेरूय. झगडीं कित्याक त्या बुकल्या आनी नांगरा खातीर ? आमकां कोणूय येयलो सारको. कोण पयलूं सांगता तेकाच दिवपाचें. ( तांचेर काळोख. )

: ९ :

( भुरगे उलयतात. )

भु. १ : हांव पयलूंच सांगतां आं ! नातर मागीर बेश्टीच रडी म्हणशात. आमी बुकल्या वाटेन रावपाचें. गाडयेन बरें भोंवच्या मेळटलें.

भु. २ : आनी कितें ! म्हाका बरे दिसले ते मनीस. तो कोलेमांव म्हणटा तेच्या वांगडा नासलेलो, तो आनी म्हाका पळोवन पळोवन हांसतालो. दोनदां तरी हांसलो आसतलो.

भु. ३ : माती हांसलो तुका. हें तुगेलें भींगट दिसतालें तेंकां. म्हणोन हांसताले ते तुका. तूं धेंगा पेंचून बसलेलो न्हू. हांसलेलो खंय ! म्हाका तरी तेणें अशें केंसाक हात लावन बरो केल्लो.

भु. १ : तें कितें ! हायें गाडयेक लेगीत हात लायलो. हांव सामको इतल्या कुशीक आशिल्लों गाडयेच्या.

भु. ४ : पूण हांव तेजेवाटेन रावचोंना. म्हाजो दाय तेजेवाटेन ना. तो नांगरा वाटेन. म्हाकाय तेणें सांगलां बुकल्याचो शाप बी

बोल्साक लायत जाल्यार नागडो करून हुमले घालतलों म्हणोन. म्हाका बुकलो साप्प नाका. हांव फातरानी पेटपी बुकल्याक.

भु. १ : आवयच्या घोवाक पेट. तुका सदींच भीक लागल्या. बुकलो पळय कसो गुबगुबीत आसता. वागा पेटो कसो, वेंगात धरूंक बी बरो ऽ. तें सोडून तूं नांगरावाटेन सो रावला. वच हांगा आमचें मदीं आनी राव नाका. वच, धांव मार शेंतान.

भु. ४ : मागीर हायें कोणा वांगडा खेळप तर !

भु. १ : तूं बुकल्या वाटेन आसा जाल्यार सांग. नातर हांगा मात पासून दिसो नाका.

भु. २ : नांगर खंय नांगर ! बापायच्या खांदार दी तो आनी धाड शेंतान.

भु. ४ : ये, बापायचेर पावों नाका, पयलू सांगतां. पोसतलो तुका तो बुकलो. वचा त्या बुकल्या गांडीत.

भु. ३ : आमी तुकाच घालपी. बऱ्या बोलान वयता जाल्यार वच. ना तर बुकलो नुसत्या बोडीक धरता तशें तुजें धरतां.

भु. ४ : आरे चल रे, तुका मेजतां हांव. कितें करतलो ?

भु. १ : तुका जायें काय कितें रे खर्चाक. वच तोंड घेवन हांगच्यान.

भु. ४ : तुज्या बापायची रे सुवात ? बुकले खंयचे ? आवयचें रीण काडलेल्या वरीं उलयतात. म्यां–म्यांव.

सगळे : तूं बुकलो. तुजो बापूय बुकलो. ( सगळे ताका कुटायतात. )

: १० :

(शेंवतें आवडू बी फुगडी घालतात.)

ओतां कोणांक दिवया गो शेंवत्या २.
बुकल्याक दिल्यार कशीं २.
नांगराक राजा करया गो आवडू २.
बामणांक कित्याक करया २.
वेंचून कोणाक हाडया गो रूक्मिण २.

कोलेमावांक हाडल्यार कसो २.
बुकल्यार शिक्को मारया गो रूक्मिण २.
बुकल्यार शिक्को मारया गो शेंवत्या २.

: ११ :

( लोक खोसयेन नाचतात. )

बुकलो निवडोन आमचो येयलो रे, बाबा येयलो रे
कोलेमांव राजा आमचो जालो रे, बाबा जालो रे
नांगराक मोखून भायर माल्लो रे, बाबा माल्लो रे
कोलेमांव राजा आमचो जालो रे, बाबा जाला रे
आमच्या जातीचो राज जालो रे, बाबा जालो रे

( सगळे नाचून जाले म्हणटकच बसतात. कोलेमांव आनी तांचे चमचे प्लॅटफॉर्मार येतात. )

चमचे : कोलेमांवचो विजय आसूं– विजय आसूं.
बुकल्याचें जैत जांव– जैत जांव.

कोले : बंधू आनी भगिनीनो, तुमच्या सगळयांच्या मतानी आनी म्हाजेर आशिल्ल्या तुमच्या प्रेमाक लागोन हांव आनी म्हाजो पक्ष आयज निवडोन येयलो. नांगराचें काम फकत शेत खणपाचें. शेत लुवपाचें न्हूं. तेचें राजकारणांत कांयच काम ना हें तुमी दाखोवन दिलें. नांगरान शेतांतूच रावचें. केन्ना पलाशेंत येवपाचीं सपनां देखचीं न्हूं. नांगरान जर पलाशेंत बसोन राज करूंक सुरवात केली जाल्यार शेत कोणें नांगरपाचें ? आमच्या सारख्यांच्या गरिबांच्या पोटांत गोटो कोणे घालपाचो ? तुमी नांगराक तेची योग्य सुवात दाखोवन दिल्ली आसा. आनी म्हजें स्थान म्हाका दिल्ल्या बद्दल हांव तुमचे उपकार आठयता. (टाळयो) तुमी म्हाका निवडून हाडलो. पूण हांव राज्यार बसतां तो फक्त नांवाखातीर. खरेले राजा तुमी. भरतान जशें रामाचें नांव घेवन चौदा वर्सां राज्य केलें तशेंच हांव करतलों. (टाळयो)

तुमकां कितें जाय कितें नाका तें हांव दितलों. तुमी म्हाजेर जो विश्वास दाखयला तो हांव पूर्ण करतलों. हांगा कोणाक शिर्विस ना तेका शिर्विस दितलों. कोणाक घर ना तेका घर दितलों. तुमचीं घाराणी आयकोंक हांव घरा–घरांनी येतलों. बायल आनी दादलो असो भेद करीनासतना तेंच्या वांगडा रावतलों. तुमकां हांगा शिकप मेळ्ळेंना. तेखातीर आमचो समाज असोच उल्लो. हांव खेड्या–पाड्यांनी शाळा उगड्यो करून तुमकां शिकयतलों आनी म्हाज्या सारकाच राजा करतलों. आयज जें राज येयलां तें म्हाजें न्हूं. म्हाज्या पक्षाचे न्हू. तें तुमचें. भायल्यांक आमी धांवडावन घातले तेन्ना आमचें राज येयलें अशें म्हणटाले. पूण ती फक्त आमची जमीन आसली ती मुक्त करपाखातीर जे म्हाजे भाव झुंजले आनी सुटके झुंजारी जाले, ते ह्या इलीसावांक निवडोन येयलेना म्हणोन म्हाका वायट दिसता. फुडल्या पावट तरी तेणी निवडोन येवंचें म्हणोन हांव देवालागीं मागणें करतां. तेणी काडलेल्या कश्टांची याद दवरून ह्या आयच्या खोशयेच्या दिसा हांव तेंका पेंशन जाहीर करतां. तेंका दर म्हयन्याक सरकाराकडल्यान पेन्शन म्हणोन तीनशीं रुपया मेळटले. आनी जे कोण आमदार जाल्यात, तांची आमदारकी सोंपल्या उपरांत तेंकाय म्हयन्याक पांचशी रूपया पेन्शन मेळटलें. तेन्ना तुमी आयज खोशयेन नाचात. आयज आमचें राज येयलें म्हणोन तुमी खायात–पियात आनी मौजा मारात. आयज पयलेच फावट तुमचें राज येयलां. तें आतां सदींच येवंचें म्हुण तुमी प्राथंना करात. देव तुमचें कल्याण करतलो.

( आयज आमचें राज आयलें म्हणत लोक नाचतात. )

: १३ :

( झापा मुखेली बसला. ताचे चमचे ताच्या भोंवतणी. )

झापामु : बरां ! सुसेगगांवचो काय संदेश आसय !

झापा १ : सुसेगगांवचां इलेक्शान बेस बरां जालांहा. आमचो कोलेमांव आनी तेचो पक्ष सत्तेर इलोहा. कोलेमांवाकच मुख्यमंत्री म्हणान निवडून काडलोहा.

झापामु : ही आनंदाची बातमी घेवन येता आसतना आमच्या जिबेर घालूंक काय आणलय काय नाय रे !

झापा २ : तां तर आसच. त्याबगर आमी सुसेगगांवसून हांगा कसां येतलांहां ! ह्यां बघ. ( बाटली काडून दिता. )

झापामु : कोलेमांवची तब्येत बेस बरी आसय मां ! तेका आतां जरा बेटांक व्हंयो. आमचोच आसय मां तो. कांयच परकीपणा नाय. घरचोच म्हणाक हरकत नाय.

झापा १ : सारको दारांतलो कुत्रो कसो. जाय तेव्हां बांदून दवर आनी व्हंयो तेव्हां सोडून दिवंचो.

झापामु : पूण मी म्हनतय, येदचा ह्या ल्हान प्रदेशाक मुखेलमत्री व्हंयोच कित्याक ?

झापा २ : म्हंजे. मुख्यमंत्री नासतना लोकशाही राज्य जातलां कसां ? म्हणान तर तेंका इलेक्शान घेवंक दिल्लीसून नोटीस इलीहा.

झापामु : तां काय म्हाका माहीत नाय आसा ! पूण येदचा ल्हान राज्याक मुखेलमंत्री कित्याक हो म्हाजो प्रस्न आसय. तेंका आतां राज्याचो स्टेटस येतलो तां काय ?

झापा १ : ह्यां पण खरांच. येदचा ल्हान राज्याक इतलो खर्च करांक केंद्र् सरकाराक काय वेड लागलांहा ? ताका एक जिल्लो करूंक व्हंया हुतां. शेजारच्या राज्याक जोडून हो प्रस्न सोडूंक व्हंया.

झापा २ : शेजारच्या राज्याक कशाक ? आमच्या झापा राज्याक काय कसली धाड मारली हा ! तेंचा बोलाप झापाचां. त्यांचा खावप झापाचां. त्यांचां न्हिदप उठप झापाचां. म्हंजें, तेंची संस्कृती आनी आमची संस्कृती एक. असां असतना तेंका वेगळां राज कशाक ?

झापामु : तुमकां म्हणानपण डोस्कं आसय मरे. मी इचार करतय

तांच पण तुमी करतय !

झापा २ : सुसेगगांव झापा राज्याक जोडपाचो मां !

झापामु : तुमकां काय दिसलां फेणी मारपाचां ! तो पण आमी करतय. ह्यो कोलेमांव आमचो माणूस. तेका मात्सो भुलोवन आमी सुसेगगांव घेतलां तर आमचा झापा मोठां जातालां. आनी येदचा मोठ्या प्रदेशाचो मुखेली म्हाकाच जावंक मेळटालां. त्या प्रदेशाचे आमदार ते किती ? तेंचो खंयसून येतलो मुख्यमंत्री !

झापा १ : मगे, तुमी तेंका भेटान, तेंच्या लागी बोलणी कशाक करनय नाय ! आमी थंय ज्युस्त करून ठेवलां.

झापामु : तसां जर आसय तर मी मेळतय तेका जावन आनी पुरतां भुलोवन येतय. सुसेगगांवाक निरोप धाडा की मी येतय म्हणान आनी माझी जांवची तयारी करा.

( कोरस )

झापा मुखेली निघाला सुसेगगांवला
सुसेगगांवच्या राज्यावर डोळा ठेवूनी
विलिनीकरणाची आस घेवूनी
झापा मुखेली निघाला सुसेगगांवला

: १४ :

( वाड्यार भुरग्यांची झगडीं. )

भु. १ : आमचो येयलो मरे बुकलो. नांगर खंयरे लिपलो ?

भु. २ : लिपला आसतलो खोंपित. आमचे वांगडा आसलेलो जाल्यार काय बरो भाजीपाव खांवचोना आसलेलो ?

भु. ३ : आतां गू खालोंना. खेळोंक लेगीत मेळना पळय तेका आमचे वांगडा. उदकांत रावोन म्हणोन नुस्त्याकडें वायट पण करप ?

( भुरगो ४ खोपिंतल्यान भायर येता. )

भु. १ : येयलो रे नांगर भायर. कुय नांगर, नांगर शेतान वयता.
भु. ४ : बुकलो म्यांव म्यांव. काळो बुकलो खोंपित लिपलो. म्यांव.
भु. २ : तुजो बापूय बुकलो. तुजी आवय मांजर. आनी तूं मांजरा पेटो.
भु. ३ : नांगर ओड रे वचोन. चल, नांगर पडलो मरे ! आतां नांगर घेवन कितें करतलो ?
भु. ४ : तुमच्या घरार भोंवडायतलों सगळयांच्या.
भु. २ : आवयक सांगोन येयला मरे ! ना तर इचारून यो.
( रूक्मिण खोंपिभायर येता. )
रूक्मिण : ओ तो कोण रे तो गांजुड्डो. शेंवत्यालो मरे ! तुजे आवयक इचारून येयला मरे तूं ? दुसऱ्याचे आवयचेर पावता तो. दोके मोडून घालतलें.
शेंवतें : ( भायर येवन ) कोण गो रूक्मिण ? म्हाज्या चेडयाचे दोके मोडटा ? तुज्या घोवान पोसला काय कितें तेका ? आमच्या कश्टाचें खावन ल्हानाचो व्हड जाला. तुयें मोडपाची गरज ना.
रूक्मिण : मागीर तुयें वाडयला तो कितें, दुसऱ्यांच्या आवय-भुरग्यांक गाळी सवोंक ! तेका पयलूं गिन्यान शिकय. रांडूल खंयचे कडलें.
शेंवतें : गाळी कोणांक संवता गो सुण्या कास्ताच्या ! शेंडो धरून हुमटावन काडटलें. बुकलो निवडोन येयला म्हणोन जाळ पडल्या आसतले.
रूक्मिण : म्हाका कित्याक पडटले ! म्हाजो कोण तर तो. तुजोच कोण तरी आसतलो. तो येयलो म्हणोन कितें म्हाज्या जिबेर पेज्जे नीस पडपाहा ?
शेंवतें : तुजे जीबेर काय आनी खंय पडटलें आसलें तें हांव जाणां ! नांगर येयलेलो जाल्यार पडटलें आसलें.
रूक्मिण : तुका पडटलें आसलें. तुजो मीण दिसता तो. बच तेजे सोदीक.

शेंवतें : तुजो मीण तो चेडये. येवंदी वासूच्या बापायक. दाखयतां तुका गाळी सवोंक.

रुक्मिण : म्हाकां कितें दाखयतलें तूं ? दाखय तुज्या घोवाक. तेजेय लागीं पळोवंक जायना जाल्यार दाखय त्या बुकल्याच्या राजाक.

शेंवतें : हांव तुकाच दाखयतां आतां. यो अशें रांडला, कापाजदाद आसा जाल्यार ! (दोगांय एकमेकाच्या आंगार धांवतात. सगळे भुरगे चारचेर तुटून पडटात. लढाय चलता )

: १५ :

(झापा मुखेली आनी ताचे चमचे कोलेमावांक मेळूंक येतात.)

झापा मुखेली निघाला सुसेगगांवला
कोलेमांव चोराला राजा करायला
झापा राज्याची फौज मोठी
कोलेमावांची बुद्दी खोटी
राजा करून तेका गुलाम करायला
झापा मुखेली निघाला सुसेगगांवला

(कोलेमांव झापामुचें स्वागत करता.)

कोले : येयात, येयात. कोलेमांव, समस्त सुसेगगांवच्या लोकांचे वतीन झापाच्या प्रतिनिधींचें स्वागत करता. आयज हे मातयेचें भाग्य, तुमच्या भाग्यवंत आनी पवित्र पावलांनी परजळीत जालां. तुमचेसारके बुद्धीवान आनी फीन तकलेचे आमचे शेजारी, आमच्या मजतीक एका पांयार उबे आसात तें पळोवन आमकां काळजांत थावन खुशालकाय भोगता. तुमचे हे उपकार आमच्या लोकांच्या कातीचीं जोतीं करून लेगीत तुमच्या पायांत घातलीं तरी ते फेडपाचे नांत. आमी आमची मान भागोवन तुमचें स्वागत करतात.

झापामु : असां बोलान तुमी आमकां लजेक म्हारग करतय. आमी जरी दिसांक व्हड आसले तरी आमी तुमचेच माणूस. तुमकां मजत कराप ह्यां आमचां परम कर्तव्य आसय. तुम्हा सर्वांचा कल्याण ह्यां आमचा पण कल्याण असांच आमी मानतय.

कोले : हीं तुमचीं आनी तुमच्या झापा राज्याचीं व्हडपणा. सांगात आमी तुमची कसली सेवा करची ?

झापामु : सेवेचां काय घेवन बसलां हो तुमी ! आमी तुमची सेवा करांक इले. तर, तर आमचो आनी आमच्या राज्याचो तुमकां मुख्यमंत्री करूंचा अभिनंदनाचा ठराव घेवन आमी इलय. आमच्या राज्याचो तुमकां नेहमी पाठींबो आसय.

कोले : तुमच्या राज्याचो आमकां सपोर्ट ! येदद्या व्हडल्या फीन आनी बुदवंत राज्याचो म्हज्या सारक्या एका पामराक सपोर्ट ? हांव धर्तरेर आसां काय सर्गार आसां ?

झापामु : तुमी आमच्या मुखार आसत ! तुमच्या सारखो हुशार आनी योग्य माणूस जर आमकां गावलो तर आमच्या मदतीन ह्या राज्य सर्गापरस जास्त सुंदर जातलां.

कोले : आमी ह्यो सगळ्यो गजाली कितेंय थंड घेवन उलयल्यार बऱ्यो न्हय ? तुमकां कशें दिसता !

झापामु : आमचां रे काय जातय ? आमी जे काय करतय तां सगळां तुमच्या बऱ्याक करतय. तुमी प्रेमान आमकां कांय पण दिलां, तां आमी नको म्हणाक सोबतय ! तुमचो अपमान करांक आमकां बरा दिसनय ना.

कोले : हें कितें उलयतात तुमी ! तुमचे पांय आमच्या ह्या घराक लागले ते कितें कमी जाले ! कोण आसा रे ! चल फस्ट क्लास ग्लास भर पटापट.

( एकलो ग्लास भरता. सगळे पितात. )

झापामु : तुमचो मायनींग चो धंदो कसो चलताहा !

कोले : सद्या तेजींत इलोहा. आतां आमी स्वतंत्र जावन राष्ट्रीय

प्रवाहात वयतय मां ! आतां केंद्राकडल्यान मजत मेळांक पण बऱ्याक पडटय. हाय ग्रेड म्हाल मिळतय. जपान जर्मनाक कॉन्ट्रक्ट दिवंक बरां.

झापामु : आनी भायर भीतर करपाचो तो वेवसाय, म्हंजे तेका पण दम आसतलो.

कोले : हांगा उगड बोलांक काय हरकत नाय आसा. तुमी तां स्मगलींगचा म्हनतय मां ! तां काय आतां ! तां आतां आमचो सायड बिजनेस म्हणाक हरकत नाय. आतां मी मुख्यमंत्री आसय. तेव्हा ह्या धंदचाक जास्त वेळ दिवंक वेळ मिळनय नाय.

झापामु : पूण तुमी आतां ह्यां आमच्या भाशेंत बोलतय तां म्हाज्या काय लक्षांत गेलां नांय. तसां काय हरकत नाय. तुमची भाशा आनी आमची भाशा हेतूंत फरक तो काय ?

कोले : तसां फरक आसय हो, खुपच फरक आसय. पूण ह्यां थोडां घेतलां कि म्हाजी पण जीब तसीच बोलांक लागतय. आनी आमी राष्ट्रीय प्रवाहांत वयतय मां आतां !

झापामु : मगे दी ताळी. आमची भास ही अशी. तुमी थोडां घेतलां की तुमच्या आनी आमच्या भाशेंत ज्यास्त फरक रावनय नाय. आतां तुमचां राज्य आनी आमचां राज्य एक केलां तर कसां !

कोले : एक कराप म्हंजे कसां ?

झापामु : म्हंजे विलीन करपाचां हो ! एव्हढां ल्हान राज्य आनी तेचो राजा तुमी ? शरमेची गजाल वाटतय म्हाका. ह्या परस तुमचां ह्यां राज आमच्या राज्यांत घालून तेचो राजा तुमकां केलो तर कसां ?

कोले : तसां केलां तर बरां. पूण शक्य कसां जातलां ?

झापामु : शक्य कसां जातलां म्हंजे ! आमचे लोक आसत ते काय करांक तर ! पाठवतय मी तेंका हंयसर. ते करतले काम तुमच्या खातीर. पूण एक. तेंका तुमी जरा वरचे जागे

दिल्यार बरे. म्हंजे ह्या तुमच्या लोकांक समजावंक बरां.

कोले : ते मी करतय. तुमी कांयच घाबरूची गरज नाय. मी मुख्य-मंत्री आसय हंयचो. ह्यां सगळांच राज तुमच्या राज्याक जोडून टाकतय. म्हाका काय. हंयचो मुख्यमंत्री आसय तो थंयचो जातलो.

झापामु : तां सगळां आमी करतय. झालां पक्कां ! आमचे रिलेशान पण ठेवांक बरां पडटलां. पूण तां हुद्द्याचां...

कोले : तां मी आतांच करतंय. चला... हेका करतय डायरेक्टर ऑफ टुरिझम. आनंद झाला मां ? हेका करतय डायरेक्टर ऑफ शिक्षणखातें. आनी हो उरलो ? हां, हेका करतय सांस्कृतिक खात्याचो डायरेक्टर. जालां मां ? खात्री पटल्यां मां तुमची ?

झापामु : खात्री काय घेवन बसलां. विस्वास बसलो. आनी थोडे लोक आसत. तेंका पाठवल्यांत तर... !

कोले : विचारतय कशाक ? पाठवून दियात. आतां आमची भास आमकां तुमचे भाशे सारकी करची आसय. शिकोवंक नाका आमच्या लोकांक ? मास्तर म्हणान धाडून दियात. माझी परजा शिकतली. माझां एक चालतय हेत्त्या नेटार.

झापामु : तसां आसय तर रोखडांच धाडून दितय एक ट्रकभरून.

कोले : जरूर–जरूर... पूण तां मुख्यमंत्री पदांचा.

झापामु : एकदां तुमचां राज आमकां जोडलां की तुमी मुख्यमंत्री. तां सगळां मी करतय....

( कोरस )

झापा मुखेली आला सुसेगगांवला.<br>
कोलेमांव चोराला राजा करायला.<br>
झापा मुखेली फेणीवर खुश झाला.<br>
कोलेमांव राजाला भुलवूनी गेला.

: १६ :

(गावांत भुरगे उलयतात.)

भु. १ : आरे जाणां मरे, आमकां आतां शाळेंत वचोंक मेळटलें ?

भु. २ : तेंच मरे, तें भायले लोकांचें येस–फेस शिकयतालें तें शिकोंक ? म्हाज्या आनी तें तकलेंतूच वचना आसलें.

भु. १ : तें न्हू रे. ते लोक गेले न्हू आतां. आतां आमकां दुसरेभाशेन शिकयतले. आमकां समजता ते भाशेन. आमी आतां उलयता न्हूं तशेंच कितें तरी. ती शिकोवंक वयल्यान गाडयो भरून मास्तर हाडल्या खंय !

भ. ३ : ती आमकां शिकय नासले तर पयलूं ? ती गाय हाये, तो गोडा हाये म्हणोन. तेंतूत आनी नेयीदाद कसली ? कामत भाटकारांली भुरगीं आजून शिकतां आपले घरांत.

भु. १ : घरांनी शिकल्यार ! आतां शाळांनी शिकयतले. आमकां ती सारकी शिकोवन हें सुसेगगांव मागीर थंय तेंच्या राज्यांत घालतले.

भु. ४ : तें कितें सोलां घालतले ? आमचें सुसेगगांव म्हणल्यार कितें आंबिल रे ती. बुडकुल्यांतली काडली आनी वाटलेंत घातली आनी वाटलेंतली काडून बुडकुल्यांत घातली.

भु. १ : तुका कळपा ना तें. आमचें शेजराक एके राज्य आसा. तेतूंत जर आमचें राज्य घातलें जाल्यार आमकां आंबिली जाग्यार शीत जेंवच्याक मेळटलें खंय ! आयज ते खातीर मिटींग दवल्ल्या. तें जर थंय व्हरोन घातलें जाल्यार आमचें कशें बरें जातलें तें तो आमचो मुखेलमंत्री सांगतलो खंय. झापाचेय लोक येयल्या खंय !

भु. २ : आमचें सुसेगगांव थंयच्या राज्यांत घालतले जाल्यार मिटींगो आनी कित्याक तर त्यो. कोणांक कळनासतना घालपाचें.

भु. ४ : आं, तें अशें आसतलें. समजा हो गांव थंय व्हरोन घातलो

मागीर लोकांक खंय दवरतले ? समज सुसेगगांव व्हरोन घातलें. आमी हांगाच उल्ले खेळत, जाल्यार आमकां मागीर गांव खंयचो ? ते खातीर सगळचांक कळचें म्हणोन ही मिटींग आसतली.

भु. ३ : हय तर. कळनासतना व्हरोन घातलेलें जाल्यार आमी त्रासांत पडपाचे. मागीर खंय वचोन सोदतले आसले आमी आमचें सुसेगगांव आमी ?

भु. १ : चल या तर आमी तिठचार. बेश्टो कळाव जायत. नातर आमकां हांगाच सांडून व्हरत सुसेगगांव.

भु. ३ : म्हणोन इतले मास्तर हाडल्या आसतले. फकाणा गजाल रे ती येदें सुसेगगांव उकलून व्हरप म्हणल्यार ! एक फातर उखलता म्हणल्यार आमच्यो कपलाक पावता हांगा.

भु. १ : त्या मास्तरांच्यो, सुसेगगांव उकलता आसतना खंय पावता त्यो तरी वचोन पळोवया. मजाच जातली न्हू रे !

भु. ४ : हायें आनी एकल्याक तिठचार पळयलेलो. पान खावन पीच–पीच करून थुकता आसतना. तोंड आनी ओंठ मात बरे दिसतात. तांबडेच. पोपट कसो. धये तोपयेचो.

भु. २ : तुमी हांगाच गजाली मारतले काय किते ! आमी हांगा उरत आनी ते तेवटेन व्हरत सुसेगगांव.

सगळे : हय रे हय. चला धांव मारया. (सगळे पळटात.)

: १७ :

( लोक मिटींगेक बसल्यात. )

आंतोन : एक–एक नयें अजाप हाडटाय मुरे हे ! त्या भायल्या लोकांक धांवडावन घायले. आमकां जावो म्हणोन नेयो राजा केलो. आनी आतां हें सुसेगगांव दुसरेकडे व्हरोन घालताय.

नागू : ट्राक भरून भरून धये तोपयेकार येयल्या आमचें राज्य व्हरोंक. जर आमचे राज्य व्हरपा आसलें जाल्यार पयलूं लोकांक कित्याक धांवडावन घातले तर !

वासू : ते सामकेच्च पयसुल्ले आसले न्हू गा. हे तरी मात्शे आयले.

आंतोन : आयले आनी पयले. सगलें एकूच. आतां हें इनयान जालां. दिसान दीस म्हारगाय वाडत वयता. आमचो राजा जालो तो कितें म्हारगाय हाडूंक ? आतां हे पोय ते तोपयेकार येवन भल्याय. काल आख्खे म्हुजे गादयेर. कितें ते पेटोयताय रे माड. हांव सामको आबूज जालों. रोखडेच आठ आणे चडयले एका पावाचेर. हांवच जर सोरो वाडयतां जाल्यार लोकांनी कितें कितें वाडयलां देवाक खबर !

वासू : सुसेगगांव तेंच्या राज्यांत येलें म्हणटकच सगले तेच दिसतले सुसेगगांवात. मागीर आमी सुण्यापरस पाश्ट जातले दिसता.

दुमींग : आरे, हे सांगताय तोहें आमी करपाचें ? तेंका कितें दिसता, आमी सामकेच नेणार म्हणोन ? आसत रे आमी रेंदेर, रांपणकार जांव कुळवाडी. पूण आमकां जाय तेशें नाचोवचें ? भायल्यांक धांवडोवया म्हुटलें आमी बरें म्हुटलें. त्या कोलेमावांक राजा कोरया म्हुटलें. केलो. आतां आमचें राज्य व्हरोन घालताय खुंय ! खुंय घालताय ? मायच्या... शी जास्ती येताय तोंडांत.

आंतोन : तुगे राग गोमता रे म्हाका. पूण आमच्या बोऱ्याक जर पोडटा जाल्यार कित्याक नाका ? ते मात्शे शिकलेले न्हू रे. चार गांव भोवोन येयलेले आहाय. ते कितें कोत्ताय ते येवजून कोत्ताय आसतले.

नागू : माती येवजीता ते. ते आपणालेंच येवजीता आसतले. आमी आनी म्हणोन बेकार पडल्या. सगळो काम धंदो सोडून येता न्हू हांगा !

(आतां हांगां थंय बोवाळटल्यांक झापा १ बसयता.)

झापा १ : आरे, तुमी काय करतय थंयसर ? आतां सभा सुरू जांवचा टायम झालाहा. गप्प बसांक येयनय नाय ? आतां तुमचो मुख्यमंत्री तुमकां दोन शब्द सांगाक येतलय. सगळे गप्प बसून रावा बघया.

दुमींग : नागू, तो तुमग्या कोंकण्या भाशेन किते तरी सांगोता. कितें म्हूणटाय रे तो ?

नागू : तें म्हाका म्हणोन खंय कळटा तर ! मुखेलमंत्री आनी बस हीं दोन उतरां कळ्ळीं. सदां कानार आडळटा म्हणोन.

आंतोन : संवगां मुरे एक एक. केसो–केसो भासो आहाय ह्या संवसारात म्हणोन देवाक खबर. सोगले येताय आनी हिंगाच उलयताय त्यो. आमच्या कानां घालूंक सोदताय काय कितें रे हे ? आमकां कोवता तोहें एकलोय उलयना.

झापा १ : तुमकां आयकूंक येयनय नाय. गप्प बसा म्हटलां तर !

दुमींग : आर्री तूं, कापाजदाद मुरे हेजी, आमचे गांवान येवन आमको दादागिरी ?

आंतोन : धोये तोपयेकार खुंयचेकडले मुरे ! होच तो काल म्हुजे गादयेर पिवोन गेला. आतां नेट मात्ताय. मागीर आमकां तेंच्या राज्यांत घालतकच कितें कोत्तले तेंका खबर !

झापा २ : ( मायकाकडें येवन ) तुमचो मुख्यमंत्री आतां तुमचे मदीं इलय. तेंका आनी आमकां असां दिसतय की ह्चा राज आमच्या राज्यांत येवचां असो थराव तुमी निवडून दिल्ल्या लोकांनी केलो आसय. तुमचां राज्य झापा राज्यांत विलीन कां जावंक व्हंया आनी तेचो तुमकां फायदो हेजेर तो तुमकां दोन शब्द सांगाक इलय. ते तुमी शांत चित्तान आयकून घेवंक मी इनती करतंय.

आंतोन : मांयचें काजार मुरे हेजें !

शेंवतें : आंवय कसो उलयता गो बाये हो ! कसलीशीच भास म्हणोन.

आवडू : न्हेसला पळय कसो ? बळार कशी दिसता. न्हू गो.

झापा १ : शूऽऽ गप्प ! काय सांगतय तां तरी ऐका मां !

आवडू : तूं कोण रे ? भायल्यान येवन आमकां शाणपणा सांगता. बायजण खंयचें कडलें ! आमी आमकां जायें तें करतलों. न्हू गो शेंवत्या !

शेंवतें : हय तर ! कोणूय येता आनी आमकां धपकायता, आबा फांत कसो !

कोले : तुमी म्हाका निवडून दिले हा म्हणान सुरवेक मी तुमचे आभार मानतय. म्हाजेर आसलेल्या प्रेमाक लागान ह्यां असां तुमी केलां असां मी मानतय.

आंतोन : म्हुजे मांय ! होय तेंचेच भाशेन उलयता.

नागू : पूण पयलूं तर सारको आमचे भाशेन उलयतालो.

दुमींग : माल्लां आसतलें कोपाचें. सामको तेंगें कोह्रो उलयता.

वासू : तेंणी घातलें आसतलें कितेंय करून. हे वयले लोक मात अशो नखलामी करूंक हुशार.

कोले : तुमचां ह्यां प्रेम बघान म्हाका आनंदान रडांक येतय. ह्यां प्रेम म्हाजेर असांच उरचां असां मी परमेश्वरा लागीं प्रार्थना करतंय. तुमी म्हाका निवडून हाडलो आनी म्हाज्या तकलेर आनीक एक प्रश्न पडलो. म्हाजें मंत्रीगण आनी विधान सभेंतले वांगडी म्हणांक लागले ह्यां आमचां राज्य खुपच ल्हान आसय. तां मोठां करांक व्हंया. मगे कसां करप ? तर म्हाज्या तकलेंत आयडीया इली. ह्यां सुसेगगांव व्हरांन आमच्या शेजारच्या राज्यांत घालप आनी तो मोठा करप. आतां आमकां जवळचां राज्य खंयचा ? तर झापा. तसांच तेची आनी आमची भास एक. ते लेगीत आमच्या सारके दिसतय. तांच्या राज्यांत आमी आमकां मर्ज करान घेतलां तर आमचो दर्जो वाडांक मजत जातली हा. हंयसर गंव-भाजी स्वतात येतलीहा. आमच्या वेपाराक मोठो बाजार मेळान तुमकां ज्यास्त पयसो गावांक बरां पडटलां. ह्या तुमकां नको तर म्हाकाय नको. हेका तुमचो इरोध आसय तर म्हाजोय आसय.

झापा १ : नाय. आमचो इरोध नाय. आमकां झापा राज्यांत जावंक व्हंया.

कोले : शाब्बास. आनीक कोणाचो इरोध आसय हेका ? तुमचे

मदले आमच्या इरोधी पक्षात आसय ते इरोध करतले. तांचा कामच तां. पूण तेंका मी बघान घेतय. तुमच्या भीतर कोणाचो इरोध आसय तर हात वयर करा.

आंतोन : करया रे हात वयर ? हें म्हाका बरें लागना.

नागू : हांव कितें सांगो ? म्हाका कितें कळटा ? तूं कर पयलीं वयर, मागीर हांवूय करतां.

आंतोन : हायें हात वयर केलो. आनी तेणें म्हाका इचाल्लें कि तुका कित्याक वचोंक नाका जाल्यार हांव कितें सांगो ? तो उलयता ती भास काय म्हाका येयना.

नागू : तेंतून कितें जालें ? आतां उलयता ते भाशेन सांग.

आंतोन : शी : म्हाका लोक हांसचेना ? आसूं. नाका म्हाका त्यो भानगडचो.

कोले : मी सगल्यांक इचारतय. सगळयांक जांवचां आसय मां ! झापा राज्यांत ! जावचा काय नाय तां तुमचेच इच्छेर अवलंबून आसय. तुमी नको म्हटलां तर मी पण तुमच्या विरुद्ध जावंचो नाय. म्हाजो ह्या सुसेगगांवचेर आनी तुमचेर प्रेम आसय म्हणान मी ह्या काम करतय. आमकां झापा राज्यांत वचान आमचां नांव ह्या जगांत वयर करायचां आसय. तुमच्या सगळयांच्या सपोर्टाचेर मी ह्या काम करतय. तुमच्या बऱ्याक लागान मी माझी खुर्ची सोडांक पण तयार आसय. तुमी माझां आयकून म्हाका तेंको दितले असां मनांत दवरून मी माझे हे दोन शब्द सोंपयतय. (नमस्कार करून वता. काळोख. तेच सुवातेर आतां क्रां. फुडारी उबो आसा.)

क्रां. फु. : म्हज्या सुसेगगांवच्या भावानो आनी भयणांनो, सद्या आमच्या सुसेगगांवच्या सरकारान, आमचें हें राज्य शेजारच्या झापा राज्यांत विलीन करपाची मांडणी आखल्या. तांच्या ह्या पिशेपणाक तुमी पाठींबो दिवन स्वताच्या पांयार कुराड मारून घेवं नाकात. जर

हें सुपूल्लें आनी सोबीत राज्य झापात गेलें जाल्यार आमचें अस्तित्व, आमचें खाशेलेपण ना जातलें. एका व्हड तळ्यांत दुदाचो कळसो रकयतकच तें दूद खंयच दिश्टी पडना तशी गत हें सुसेगगांव झापा राज्यांत घालतकच जातली. कोणूय येवन तुमकां फूस लायता म्हणून तुमी फटव नाकात. आमकां गुलामगिरी नाका म्हणून आमी भायल्यांक धांवडावन घाले. आतां आमचेच कांय लोक आमचेर दोळो दवरून आसा. गुलामपण भायल्यांचें कितें आपल्याचें कितें! अर्थ एकूच. जर हें सुसेगगांव झापात विलीन जालें, जाल्यार ते आपलेंच सादोवन आमकां किकोंत करतले. जांकां कोणाक गुलामपणातूच रावप आवडटा ताणें झापांत वच्चें. पूण आमी आमचो आत्मो घाण दवरून, दुसऱ्यांच्या पोशान उदक पिवचें न्हय. तुमकां कोणांक दिसता कि हें सुसेगगांव झापा राज्यांत घालचें अशें!

आंतोन : ना. आमकां दिसना. तेंचे परस आमी वेगळे. आमी आमचेच म्हणोन रावपाचें.

क्रां. फु : आमचें अस्तित्व आमी विसरूंक फावना. आमी हे आमीच उरतले. आमी म्हळचार पेज न्हय. आमकां स्वाभिमान आसा. तुमकां दिसना किं हें राज्य तुमी चलोवचें !

सगळे : आमचें राज आमी चलयतले. आमकां खंयच वचपाचें ना. आमचें खाशेलेंपण आमकां तिगोवपाचें आसा. आमचें राज आमकां जाय. झापा मुर्दाबाद. कोलेमांव मुर्दाबाद. आमचें राज आमकां जाय.

(काळोख)

: १८ :

(एके वाटेन झापा गट दुसरे वाटेन क्रां. फु. गट.)

झापा जिंदाबाद

आमचें राज आमकां जाय.

(दोगूय गट आप–आपलें गीत म्हणटा. क्रां. फु. गट जिखता. खोशयेन नाचतात.)

आमी कोणाचे गुलाम न्हय गा, आमचेच आमी उरतले
राज आमचें स्वतंत्र दवरून, आमचेंच राज आमी हाडटले.
दोंगरा बेल्यान आयले कोले
आमकां फटोबंक नागोबंक लागले
भांगरावरीं हें राज आमचें, आमकां नाडून व्हरूंक लागले.
आमकां जाग आतां आयली गा. मदांच जागे आमी रावतले.
विलीनीकरणाचें घेवन नांव गा
बुकल्यांनी हांगा हुबेली माल्ल्यो
धांवडावन तांका घालून आमी
परतून आमचें राज हाडलें
भीख आतां आमी मागचेना गा हक्काचें तें झगडून घेतले.
आमी कोणाचे गुलाम न्हंय गा, आमचेच आमी उरतले.

: १९ :

(कोलेमांव आनी ताचे चमचे विलीनीकरणाचो जनमत कौल हरून परत निवडणुकेत उबो रावला. ते लोकांच्या घरांघरांनी वचून मतां मागतात. कोण दुडू तर कोण सोरो वाटता. कोरस गीत.)

कोलेमांव राजा चालला मताला
विलिनीकरणाचा डाव तो हरला
झापाची तोपी घालून कोलेमांव
हात जोडूनी मता मागता–
निवडून येता– मंत्री जाता
मतदाराचो गळो घोटिता
कोलेमांव राजा चालला मताला
सुसेगगांवाच्या दादा लोकांना, कोलेमांवानी दारू पाजली

गुंड पोसिले, दुडू मेजिले, दमदाटी देऊन मतां घेतली
निवडून आला. मंत्री जाला. झापाचा परत विजय जाला.
कोलेमांव राजा निघाला मताला.

( गीत सोंपता. कोलेमांव प्लॅटफॉर्माचेर जैतिवंत नुरेन उबो रावता. जनता सकयल उबी. कोलेमांव भाशण करता. )

कोले : बंधू आनी भगिनीनो, झापात हें सुसेगगांव घापाचो आमचो बेत हरलो. पूण जनतेच्या मनातली इच्छा सोंपली ना. आयज म्हाजो हो बहुमतान परत विजय जाल्लो आसा. हें पळोवन अशें दिसता की विरोधी पक्षान खंय तरी गुड्डूलसांव केलां आनी आपले वाटेन मतां दिवंक हायें झापा राज्यांतले मनीस हाडल्या म्हणोन हेणीच म्हाज्या नांवान हुयेली माल्ल्या. हांव जनमत हल्ल्यानंतरचे निवडणूकीत आयज परत म्हाजीच निवड कित्याक जाली ? हे जनतेक झापा राज्या विशीं आपुलकी आसा. जरी आमकां वयल्यान हुकूम येल्लो आसा की इलीनीकरणाचें नांव परत काडप ना तरी आसतना हे जनतेचे इच्छेक लागून झापाकडे संबंध दवरूनच आमी रावतले. आमी शरिरान जरी वेगळे आसले तरी मनान झापाचेच आसात. ( ताळचो ) तुमी परतून म्हाका बहुमतान निवडून हाडला म्हणोन हांव तुमचे उपकार मानतां. हो म्हाजो इजय न्हू. हो तुमचो इजय. बहुजन समाजाचो इजय. हांगचे काय लोक जे आमचे जातिचे न्हू ते तुमकां अशेच सकयल दवरूंक करतात. तेंचो हो पराभव. आतां हो इजय हाडून तुमी तुमचें राज हाडलां. हें तुमचें राज. तुमी आयज नाचा तुमी तुमच्या जैताचें पद म्हणा. आयज येयलां तें तुमचें राज हें इसरूं नाका.

( भाशण सोंपता. सगळे कोलेमांव भोंवतणी फेर धरून आयज आमचें राज आयलें हें पद म्हणून नाचतात. )

**( काळोख )**

: २० :

( सुटके झुंजारी आपली खोंपटी चुडटांनी शिवता. भाटकार येता. )

भाट : कोण नारायण रे तो ? तुका आतां स्वतंत्र जाल्ल्याक घरा जाग्यार बंगलो जाय पडलो मरे! स्वतंत्र जाल्याउप्रांत परक्यां वांगडा भाटकारांकूय धांवडावन घाले अशें दिसलें काय कितें तुका? कोणाच्या लिशेंसान घर सारकें करूंक घेतलां रे तुवें ?

सु. झु. : तशें न्हय भाट तुजेंच आसा. पूण म्हज्या घराच्यो मलायो सामक्यो करमेंवन गेल्यात. म्हळें बदलुया.

भाट : म्हजी परवानगी नासतना ? हांगा तुवें बंगलो बांदलो मरे !

सु. झु. : पावस सामको माथ्यार देंवला. आतां शिवलेंना जाल्यार पोंवोन सामकी खातोड जातली घरांत.

भाट : मागीर नळे घाल. दुडू हांव दिवं ? आनी तीं चुडटां खंयची हाडलीं ? म्हज्याच माडाचीं मरे !

सु. झु. : तल्लूक म्हजेच कडें आसा. झडटात ती जमोवन दवरिल्लीं.

भाट : तल्लूक तुजेकडें आसा. भाट ना. हांव दोन दीस हे वटेन पावलों ना जाल्यार भाटूय नांवार करतलो आशिल्लो तर तूं.

सु. झु. : अशे आडमुठेपणान उलोंवची गरज ना. चुडटां जाय जाल्यार व्हेल्यार जाता.

भाट : मागीर तूं कितें नवीं हाडटलो? हांत्रेच दुडू फारीक कर. नायतर पेन्शन मेळटा न्हंय तुका ! सुटके झुंजारी जावन हें एक बऱ्याक पडलें.

सु. झु. : म्हज्या सुटके झुंजारीपणाचेर पावपाची कसलीच गरज ना. म्हाका पेन्शन मेळटा तें हावें काडिल्ल्या कश्टां खातीर. तें सोडून परक्यांचे पांय चाटिल्ले जाल्यार तुजेपरस व्हडलो भाटकार म्हुण मिरयतलों आशिल्लों.

भाट : कोणाच्या मुखार मान वयर करून उलयता रे तूं ! अजून म्हज्या भाटांत आसा. जाय जाल्यार धांवडाव येता.

सु. झु. : ते दीस गेले आतां. ही जमीन तूं सर्गावेल्यान घेवन येवंक ना.

भाट : म्हाका शापतां सांगता ?

सु. झु. : तुज्या घराकडेन येवन सांगलीना.

भाट : म्हजे भाट हें.

सु. झु. : म्हाका जाणीव आसा. पूण हांव सुटके झुंजात प्राण हातार दवरून झगडटालों हाची तुका नासुंये.

भाट : तूं सुटके झुंजारी म्हण ओगी रावतां. आनी कोणूय जाल्यार येन्ना घर हालोवंक लायतलों आशिल्लों.
(तणतणत दुसऱ्या घराकडेन वता.)
नागू ऽ ऽ नागू ऽ ऽ नारे घरांत ! भायर यो.

नागू : कितें भाटकारा ! भाटकारा कसो आसा ?

भाट : हांव आजून जितो आसा. पूण तुगेलो चेडो जितो आसा काय मेलो ? ताका धाडून दी म्हणून सांगिल्लें मरे तुका ? माडांक आळीं कोण काडटलो रे ?

नागू : चूक जाली भाटकारा. म्हाजो चेडो मॅट्रीकेक आसा न्हू ओंदू, शिकोंक लागला.

भाट : चेड्याक शिकोंवन बामण करूंक सोदता काय दोतोर करूंक सोदता रे ?

नागू : मेट्रीक पूण जावंनी म्हुटलें. आमीच अशें येंडु उल्ले गिन्यान नासलेले. तो शिकोन तरी चार पयशे जोडटलो. शेता कुडक्याचेर म्हणोन जाता हचा तेंपार ! पिकता तें तुकाच घालतां न्हू भाटकारा !

भाट : पुताक ऑफिसर कर. ताका शिकोवंक दुडू होगडावचे परस आमगेर कामाक धाड. पोट तरी भरतलो.

नागू : तेका शिकपा आवड आहा न्हू भाटकारा ! दोन क्लासी शिकोनी म्हटलें. आतां शिकले बगर जाता ? तुज्याच चेडचा बराबर शिकता भाटकारा !

भाट : म्हजो चेडो न्हय. चलो. तुज्या चेड्याबरोबर म्हज्या चल्याची तुळा करूं नाका. हांव भाटकार. विसल्लो दिसता तूं !

नागू : तें इसल्ल्यार जाता भाटकारा ? तुजे कुरपेन तर आसा आमी.

भाट : तुजी तोंडाची कृपा नाका. तुजें आजून रीण फारीक जावंक ना. फाल्यां पुताक धाडून दी दिसवड्याक. तुमी दोगूय आयल्यार जाता. ना तर घरांतल्यान धांवडावन घालतां.

नागू : तशें करी नाका भाटकारा. येता आमी.

भाट : वाट पळयतां. येना तर तुजी वाट लागतली हें मतींत दवर.

## : २१ :

( गावांत लोक बसल्यात. एकलो पेपर वाचून सांगता. दुसरे वाटेन कोलेमांव आनी हेर लोक आपल्यो गजाली करतात. )

गांवकार : स्वतंत्र जावन आमकां बरे दीस येवंक लागल्यात. हें पळय कुळकायदो काडला ह्या सरकारान. कसता तेजी जमीन जावपाची आसा. रावता तेजें घर आनी त्या घरा भोंवतणची जमीनूय ताजी जावपाची आसा.

भाट : मंत्री सायबानो, तुमी वेगवेगळे कायदे काडल्यात अशें हांव आयकता ते तुमचे कायदे आमच्या सारक्या भाटकारांक म्हारग पडटले.

कोले : कायदे हांवें जरूर काडल्यात. तुवें खंय वाचलें ? पेपराचेर मूं ? तूं पेपर वाचता ?

भाट : अशें आमचे विशीं कितेंय आसलें जाल्यार वाच्चेंच पडटा न्हंय ! नाल्ल–सोण्णा मेजता सर वाचूंक कोणाक फावता ? आनी आतां ह्या तुमच्या कायद्यांक लागून तर हातपायांक कांपरे भल्ल्यात. कुळांक–मुंडकारांक आतां माज चडटलो.

कोले : पेपराचेरूच आसा मरे ते कायदे ! आसूं. तू पेपर वाचपाचें सोड. तूं पेपर वाचता म्हुण तुका ते त्रास जातात. तुजेकड-

ल्यान मेळोन मेळोन, म्हाका एक मत मेळटलें. ह्या सगळ्या लोकांच्या मताचेरूच तर आयज हांव हांगा आसां. तेंका खोशी करूंक नाका ?

भाट : आमचें निसंतन जाल्यार...

कोले : आजून म्हाजें सोंपोना. मतां ते दितात. एलीसांव हांव लड-यतां. दुडू तुमचो. म्हाका सगळें सांबाळूं नाका ?

भाट : पूण फाल्यां खंडणी बी दिवपाची बंद केली जाल्यार ?

कोले : तुजेकडे लोक नातर वचोन वसूल करूंक ! नाजाल्यार म्हाका सांग. हायें हाडल्या वयल्यान. तेंका धाडटां. मळणी जाली रे जाली खळचार वचोन घेवन येवपाची. तुमकां कोण इचारता.

भाट : पूण कायदो !

कोले : तो मागीर कोर्ट आनी हांव पळयतलों. तुमची कामां तुमी करात.

गांवकार : इतलेंच न्हय. आतां घरांघरांनी लायट येवपाची आसा. आमच्या नशिबांतले पेट्रोलाचे दिवे वग्तले.

सेक्रेटरी : पूण सर, तुमी ज्यो घोशणा केल्यात त्यो कितें ? दर घरांनी जर आतांच आमी लायटी घाल्यो जाल्यार फुडल्या पांच वर्सांक सुधारणो कसले करतले ? फुडल्या इलीसावांच्या जाहीरनाम्यात कितें घालतले ?

कोले : सेक्रेतार, लायटी कितें एके रातीन घालून जाता ? खांबे घालून सरयो ओडटा म्हणसर दोन इलीसांवां सहज जावन वयतलीं. तूं कित्याक तकलेक त्रास करून घेता.

गांवकार : घरटीं एक रोजगार करतले खंय !

१ लो : म्हणचे कितें करतले ! घरटीं म्हणल्यार घोंटीर न्हू !

गांवकार : हय. म्हाका दिसता आमच्या घरांचेर शेवण्यानी जीं घरटीं केल्यांत तीं काडून उडयतले.

२ रो : चे, तें तशें न्हू. घरटीं रोजगार म्हणल्यार दर घरांतल्या एकल्याक तरी शिर्विस दिवप.

नागू : अशें ! जांव बाबा. अशें करून तरी आमचें दळडीर पयस

जाल्यार पुरो. म्हाजो पूत शिकोन लेगीत बेकार आसा.

कोले : तें आमी शिर्विसेचें कितें सांगलेलें रे सेक्रेतार ?

सेक्रे. : दर घरांतल्या एकल्याक तरी शिर्विस दितले म्हणून.

कोले : सगळया डिपार्टमेंटात कळय. ह्या राज्यांत शिर्विसेची गरज ना आनी डिपार्टमेंटांतना असल्या डिपार्टमेंटा खातीर कॉलां धाडात. चडशीं म्हाज्या मतदार संघानी वचूंनी.

सेक्रे. : मागीर नोकऱ्यो खंयच्यो दिवप ? इंटरव्हयू घेवन नोकऱ्यो दिवंक नोकऱ्योच ना.

कोले : इंटरव्ह्यूक फेल करपाचीय अक्कल देवान तेंका दिवंक ना खंय ? काय तिवूय हायें दिवपाची ? मंत्रीय जालों म्हुण कितें कितें दिवपाचें हायें.

गांवकार : आमचो सगळे तरेन इकास करपा खातीर आमच्या सरकारान चंग बांधला हाये अशेंय तेणी बरयलां.

२ रो : म्हणचे कितें...

गांवकार : तें म्हाकाय खबर ना. कितें तरी बांदपाचें आसतलें.

कोले : हांव फाल्यां आमच्या मतदार संघाच्या दौऱ्यार वचोन लोकाची घाराणी आयकोंक सोदतां. म्हाजी परजा कितें म्हणटा तें हांव पळयतलों. तुमी थंय दरबार भरवंचेली तयारी करात.

सेक्रे. : हय सायब, तयारी जातली.

## : २२ :

(भाटकार नागूल्या दारांत येवन दारार मारता. नागुलो 'विकास' भायर येता.)

भाट : नागू खंय गेला रे ?

विकास : तो शेंतान गेला भाटकारा. किदें रकाद आसलेलो ?

भाट : काल हावें आफयल्लो ताका माडांक आळी काडूंक. कितें गांडीक शीत लागलें खंय ताच्या ?

विकास : तो आपल्याच कश्टांचें खाता भाटकारा. पाबस लार्गी

पावलो. शेत खणोंक जाय म्हुण गेलो.

भाट : मागीर तूं तें बूक घेवन कितें करता ? आतांच चल आनी माडांक आळीं काड.

विकास : म्हाका अभ्यास आसा म्हुण हांव शेतांत लेगीत गेलोंना.

भाट : तशें जाल्यार हांव ताचे कडल्यान शेतूच काडून घेतां. तुकाय शिकपाक बरें आनी तोय म्हजें काम करपाक फी जातलो. म्हाका कुळां कितें कमी पडूंक ना.

विकास : पूण भाटकारा, आमी कितलीं वर्सां तें शेत कसतात. म्हाका कळपाक लागलां तेन्नां सावन हांव पळयतां. त्याच अन्नार हांव वाडलां. आमचें पोट तेजेरूच भल्लां.

भाट : पोट भल्लां देखूनच तुमची गांड आतां शिळोणी घालूंक लागल्या. तूं शिकपाक लागला आतां न्हंय रे ! पयलीं कुळां अशीं मान वयर करून उलयनाशिल्लीं.

विकास : म्हणूनच तुमचें फावतालें. लुटले तुमी आमकां. आमच्या नेणारपणाचो फायदो घेतलो. पूण आतां तुमची भाटकार शाय चलपाची ना. आमकां आतां सत्य कळपाक लागलां आमी आतां हें मोन्यानी सोसपाचे नांत. आमी जमीन सांबाळप. आमी धर्तरी कसप. रक्ताचो घाम करप आनी तांचेर तुमी आपलें बगलें उबारप. आमचें रक्त चोखप. आतां नवे कायदे येयल्यात. आतां कसता तेजी जमीन जातली.

भाट : ती जाता तेन्ना पळोवया. तुजी जीब बरी चुरू चुरू करून उलयता. हांव भाटकार ह्या भाटाचो. म्हाका जाय जाल्यार तुजी ही खोंपटी म्हज्यान हालोंव येता.

विकास : आनी कितें करूंक शकता तूं !

भाट : तुजी जीब मुळां सकट कोचून काडूंक शकतां हांव.

विकास : गेले ते दीस. आतां आमचे सारको कोणूच तुजो गुलाम जावन रावपाचो ना. आमी कोणूच तुका खंडणी दिवपाचे नांत.

भाट : हें तूं उलयता. कालचो–पोरचो पोर ! कसलो माज चडला तुका ! तुज्या आज्या पणज्यान केन्नां एक आल्त आनी फाल्त उतर काडलेंना.

विकास : ताजोच तुमी गैर फायदो घेतलो.

(नागू येता.)

नागू : विकास, भाटकाराकडें अशें उलयता. आरे पापया, भाटकार तो ह्या भाटाचो.

विकास : जालो म्हणून ! देव काय न्हय ! आनी देव पासून आसलो म्हणून असो जुलूम करतल्यांक हांव भिवपी न्हय. अन्याया मुखार मान बागोवची न्हुंय हेंच आमकां इस्कोलांत शिकयलां.

नागू : भाटकारा, गन्यांव भोगोस आमकां. नेणार भुरगो तो.

विकास : हांव नेणार न्हंय दाय, नेणार तुमी. तुमच्या नेणारपणाचो गैर फायदो घेतला ह्या जुलमी लोकांनी.

नागू : अशें उलोंव नाका पुता. भाटकार तो आमचो. तेजेकडेन वायटपण केल्यार निसाक बळवळटले आमी. चूक माग तेजी.

विकास : केन्नाच ना. उपाशीं मेल्यार उपकारता. स्वाभिमान शून्य जावन जियेवंचे परस मरूंक हांव भियेना.

भाट : नागू, माडाक बांदून घालून हुमले घाल. आसा केदो आनी उलयता कोणा मुखार ? तुजेकडेन जायना जाल्यार हांव पळोवन घेतां.

विकास : तूं कितें पळयतलो ? तुजे पूत रस्त्यार तवनासपणा करतात तीं पळोंव नज तुज्यान. तेंका सुधार.

नागू : विकास, आतां तुज्या सोंडार पडटलें.

विकास : हरकत ना.

भाट : नागू, तुजो पूत मरे आनी तुका केर करिना. भोग आतां फळां. फकत तुजो पूत म्हुण ओगी रावतां. चल्लों हांव. दुसरे फावट अशो परत्यो जापो मेळत जाल्यार ताजें मुस्कट फोडून दवरतलों हांव. ( रागान वता. )

विकास : मुस्कट फोडटलो खंय. आनी दाय, असल्या जुलमी लोकां-

मुखार तूं म्हाका दिमी मोडूंक लायता

नागू : तसो काळ येयला पुता. फाल्यां घरांतल्यान भायर काडलो जाल्यार खंयच्या सडचार वळवळे काडचे पडटले तें सांगो नज.

विकास : कोणाच्यान हालोंव नज आमकां. ही जमीन कोणाच्या एकट्याच्या मालकीची न्हय. ही जमीन, ते जमनीची सेवा करतल्याची. ते जमनीची पुजा करतल्याची. ( सुटके झुंजारी येता.)

सु. झु. : कोण, कोणाचीं हीं उतरां ? नागूलो विकास रे ! तुज्या तोंडात ही उतरां ? ज्या घरांत पिळग्यान पिळग्यो गुलामीच जल्मली, ज्या घरांतलो मनीस गुलामपणाच्या चेंपणा पोंद-च्यान भायर सल्लोंना, त्या घरांतल्यान हीं उतरां !

नागू : पिशें लागलां तेका. भिकेचे दुवाळे लागतकच अशेंच जाता.

विकास : तुका तशें दिसता दाय पूण हेंका विचार. तेंका दिसपाचें ना तशें. म्हाज्या काळजांतल्यान म्हाका हें कोण तरी सांगता.

सु. झु. : नागू, तो सारकें सांगता. आरे, ही गुलामी पिळगी तुजे पुरतीच मर्यादीत आसा. तुज्या वांगडाच ती सोंपता हातत धन्यताय मान.

नागू : पूण भाटकाराकडें झगडप आमकां पचपाचें ना.

सु. झु : वेळ आयलो कि सगळ्यांक पचता. खुबतलें वादळ थंडावपाचो तू यत्न करूं नाका. हो उजो पेटूं दी. तांतुतल्यान तुजे–म्हजे सारकें सुकलेलें लाकूड जळटलें. पूण रसरसपी चकचकपी भांगर आनी लोखण भायर सरतलें. ताजीच आयज खरी गरज आसा. चल, तूं कांयच चिंता करूं नाका. काळाक तूं थांबोव नाका.

**: २३ :**

( भुरगे शाळेंत बसल्यांत. मास्तर झापा १ शिकयता. )

झापा : मुलांनो,

( भुरगे फाटल्यांन फुडल्यान पळयतात. ) तुमकां म्हणतय मियां. फाटल्यान खंय बघतय, आवशीच्या घोवाक ? तर, तुमकां शिकान मोठां बनाक व्हंया. आमी आतां शिकांक सुरवात करया.

सगळे : हय मास्तर.

झापा : तुमकां हजारदां सांगल्यान. मास्तर म्हणायचा नाय.

सगळे : चूक जाली गुरूजी.

झापा : तां पण म्हणाचा नाय.

भु. १ : मागीर कितें म्हणप तर आमी ?

झापा : सर म्हणाक व्हंया. तुमी गांवडळ लोक ह्या इसाव्या शेकड्यांत लेगीत सुधारचे नाय.

भु. २ : आवयचो घोव ना मरे ह्या मास्तराचो. सर म्हणल्यार आमी सुधारतले अशें उलयता. आजून पोती आनी लेंगो सुटना म्हुण बरो.

झापा : कोण बसलय रे थंय सर ? तुका कोणें बोलांक सांगलय. हंयसर लक्ष दियात. पयलो धडो. आमचां राज्य. झापा ह्यां आमचां राज्य आसय.

भु. १ : तें आमचें राज्य कशें जातलें सर ! आमचें राज्य सुसेगगांव न्हू ? झापा आमकां नाका म्हणोन पयलूंच सांगलां.

झापा : कोण तो गुरू ? मी शिकयतय तां शीक, नाय तर सालती देंवयतल्यान. ह्या पुस्तक झापान छापलांन. तेंतर काय सुसेगगांव नांव घालांक ? आनी तूं शाळेंत कशाक येतय रे ? तुका शिकयतय तीं भास बोलांक येयनय नाय ?

भु. १ : म्हाका कळना सर ती.

भु. २ : मास्तर, (जीब चाबून) सर, म्हाकाय कळना.

भु. ३ : सर हेका बघो. म्हाका चिमटा काडतय.

भु. ४ : सर, तेणी म्हाजेर पयलीं कुठली माल्ली हा.

झापा : तुमी मरा थंय सर. माझा काम मी करतय. चल रे घंटा मार. शाळा सुटल्याची.

सगळे : घंटा वाजली घणाघणा, मास्तर गेलो तणातणा. (सगळे धांवतात.)

: २४ :

(गांवात कोलेमांवाच्या स्वागताची तयारी चल्ल्या.)

भुरगी : आयज आमचो राजा हांगा येतलो
आमी खोशयेन नाचोया
गावचो मंत्री गांवांत येतलो
सत्री तेका आमी धरूया.
आयज आमचो मंत्री हांगा येतलो
आमकां जाय तें आमी मागोया
(भुरगीं बसतात. बायलां येतात.)

बायलां : आयज आमचो मंत्री हांगा येता.
फुगडी–धालो आमी खेळोया
घरांत आमच्या रांदन पेटना
तांदुळ गोटो आमी मागया
भुरगीं आमची शिकोन बेकार
शिविस तेज्या लागीं मागया.
आयज आमचो मंत्री हांगा येता
फुगडी–धालो आमी खेळोया.
(बायलो बसतात. दादले येतात.)

दादले : आयज आमचो मंत्री हांगा येता
आमी कितें करूया
आमीच तेका निवडून हाडला
आमी जायतें मागोया.
भाटकार येवन आमकां सतायता
तेजीय गजाल सांगोया.
मुंडकार आमी ह्या भाटाचे
भाट नांवार आमच्या मागोया

आयज आमचो मंत्री हांगा येता.
नशीब आमचें बदलुया
( दादले बसतात. कोलेमांव येता. ताचे सुमारं त्ताचे चमचे. )

चमचे : पावलो रे पावलो
लोक : लागीं लागीं पावलो
चमचे : पावलो रे पावलो
लोक : सीमेर पावलो.
चमचे : पावलो रे पावलो
लोक : गांवात पावलो. मंत्री आमचो पावलो.



चमचो : सुसेगगांवच्या नागरिकानो ह्या मतदार संघाचो आनी तुमी निवडून दिल्लो तुमचो प्रतिनिधी आनी आमी वेंचून दिल्लो मुख्यमंत्री तुमचे सभेमाजार येता. सगळ्यांनी टाळयो मारून तेजें स्वागत करचें. कोलेमांव राजा तुमच्या सभेंत आसा.

( सगळे लोक टाळ्चो मारतात. कोलेमांव राजेशाही चालीन प्लॅटफॉर्मार येता. उबो रावता. लोकांक पळोवन नाजूक हांसता. )

सेक्रे. : गांवच्या लोकांनो आनी कोलेमांवच्या मतदारानो, तुमच्या ह्य येवकारान आयज मंत्री सायब खोसयेन भल्ला. ताणीं आयज हांगा दरबार घेवन तुमची घाराणी आयकुपाचें थारायलां. तेन्ना तुमी तुमचीं घाराणी घालचीं.

कोले : सेक्रेतार, हाव ह्या मतदार संघाचो मुख्यमंत्री. मुख्यमंत्री हो सगळ्या मंत्र्यापरस व्हड. म्हणचेच मुख्यमंत्र्याचो मतदार संघ, सगळ्या मतदार संघापरस व्हड. म्हणटकच सगळेंच व्हड आशिल्ल्या ह्या मतदार संघाचीं घाराणीय व्हड आसचीं पडलींना ? मागीर येदीं व्हडलीं घाराणी आयक सर हायें उबेंच रावपाचें ?

सेक्रे. : कदेल... कदेल जाय...

आंतोन : आमी कदेल खंयचें हाडूं ? कदेल सोडूच आमी केन्ना तामरेत लेगीत चोयलीना.

सेक्रे. : मागीर तुमच्या मुख्यमंत्र्यान उबो रावप सोबता ? यो तूंच मात्सो हांगा यां. यो, यो, इरमांव. तुमचो राजा खूपूच थकला. ताका बसूंक जाय. हांव म्हजें कदेल करून तेका बसयपाचो. पूण तुमचीं घाराणी बरोवन घेवंक नाका ? तुका बरोवंक येता ?

आंतोन : ना. शिकलेलों जाल्यार माड काडपाचों ?

सेक्रे. : मागीर ? म्हाका बरोवंक येता. हांव बरयतां. ते सर तूं मात्सो हांगा येवन राव. तुजें भाग्य आयज फळ्ळां. तुजें फाटीचें कदेल मुख्यमंत्र्याक थोडो वेळ मेळप म्हळ्यार तुज्या पुर्वजांची पुण्याय.

(आंतोनीक व्हरून ओणवो दवरता. ताजेर कोलेमांव वचून बसता.)

कोले : म्हाज्या प्रीय मतदारांनो, घालात. तुमची घाराणी घालात. म्हाका दुसऱ्या कामाक वचोंक जायें.

(सगळे लोक गणपती मुखार घाराणी घाल्ल्यावरी एका सुरांत घाराणी घालतात. कोलेमांव चे लोक हय सायबा म्हणटात.)

लोक : ओ म्हाज्या सुसेगगांवच्या मुखेलमंत्री कोलेमांव राजा,
आमी तुमची मतां दिवन सेवा केल्ली आसा.
आमचे गांवचे भुरगे शिकोन व्हडले जाल्यात
तेंका सगळचांक शिर्विसेची गरज आसा.
आमच्या गांवच्यो चलयो वाडोन लग्नाच्यो जाल्यात.
सगळे चले शिर्विस करपीच चली सोदतात.
तेन्ना तेंकाय बेगीन शिर्विस दिवंची
आमचे ल्हान भुरगे शाळांनी शिकतात
पुण तेंका ते कितें शिकतात तेंच कळना.
तेन्ना तेंका समजता तेच भाशेंत शिकोंवचें

आमच्या रेंदेर भावांक सोन्याचो दर वाडोवंचो
भाटकार येवन आमकां सतायता.
कुळां कडल्यान दोन्नाद खंडणी घेता.
तेन्ना तुमचीं आस्वासना पुराय करून
कुळ कायदो बेगीन हाडचो.
पांच वर्सां सोंपूक आतां थोडेच दीस उल्ल्यात.
परतून एकदां मतां मागूंक तुमी आमच्या दारांत येतले.
आमचो उपेग फकत मतां दिवंक करचो न्हय.
आमी दिल्ल्या मतांची याद करून, आमचे उपकार
ध्यानांत दवरून आमचें गांवचें तशेंच थंयच्या लोकांचें,
भुरग्या बाळांचें कल्याण कर आनी तेंचें बरें कर.
( घाराणे सोंपता. )

कोले : सेक्रेतार, आमी हेतुंतलें कांयच करूंक ना ?

सेक्रे. : लोकांची याद मात्शी उणी आसा म्हाराज. तांका आतां कांयच उगडास जायना. हें सगळें परतून करचें पडटलें.

कोले : तशें जाल्यार म्हाका परतून निवडोन येवंचो पडलोंना ?

सेक्रे. : हय म्हाराज. तुमी तशें सांगात हे जनतेक.

कोले : बंधू आनी भगिनीनो,
तुमची सगळयांची घाराणी आयकोन आमी कांयच केलें ना अशें म्हाका दिसोंक लागलां. खंयचीय गजाल करतलो म्हणल्यार पांच वर्सां पावना. ते खातीर म्हाका आनी पांच वर्सां निवडोन येवंक जाय. तरीपुण तुमचीं सगळीं घाराणी आमच्या सेक्रेतरीन बरोवन घेतल्यांत. ती आमी आतां त्या त्या डिपार्टमेंटातल्या मंत्र्याकडेन पावते करतले.

नागू : मागीर तूं कितें करतलो तर ? तूं आमचो मंत्री न्हू ?

कोले : हांव ओगी बसचोना. हायें एक गरजेचें काम हातींत घेतलां. तुमी जाणांत. आमचे गांवचे चडशे चेडे वाडलेले आसात. तेंची लग्ना जायनात. कित्या खातीर ? तर हेर गांवची चेडवां तांचे कडेन लग्न जावंक तयार नासतात. कित्याक म्हणून

विचारात ? हांगा भायले गांवचें चेडूं येयलें जाल्यार तेका चड काम करचें पडटा. हांगा उदक हाडटलो जाल्यार पयसुल्ले बांयचेर वयचें पडटा. कोण जातलो हांग। ह्या गांवात लग्न ? पूण हांगचीं चेडवां हेर गांवचे न्हवरे वाडपाकूच दिनांत. मात्शें वाडलें रे वाडलें मागोन व्हरतात. कित्याक ? कित्याक तर तीं भौच कश्टकरी म्हुण जाणान. तेन्ना हांव ह्या गांवचे हे कश्ट पयस करूंक घरांघरांनी बायों मारतलों. दर घरांनी नळ बसयतलों. हें काम हांव गांवच्या भुरग्यांकडल्यान करून घेतलों. बेकारी पयस करतलों. आनी हेजे परस चड आनी कितें करपाचें आसा ? ना. ही असली सुधारणा करपी हांवच. तरी आसतना कोणांक दिसलें कि आपल्याक चड कितेंय जाय जाल्यार आमचे पलाशींत येवंचें. हांव तुमचे सगळे जनतेचे सेवेखातीर हाजीर आसां.

चमचे : कोलेमांव राजाचें जैत जांव– जैत जांव.

( सु. झु. आनी विकास बसून उलयतात. )

विकास : हांगा जण एकलो येता आनी आस्वासना दिता. म्हाका तुमच्या सारकेल्यांनी गायडन्स दिवंक जाय. हें हांगा चल्लां तें कितें ? कोणाकूच ह्या फटींग राजकारण्यांची कल्पना येना. ते फटयतात आनी हे फटोवन घेतात.

सु. झु. : लोकांक दोश दिवप आमकांय जमना. आमी जशे विचार करतात तशे ते येवजीनांत. गुलामीत वाडिल्ले लोक हे. तांकां तयार करपाक खुपूच वेळ लागतलो. निराश जाय नासतना हीं कामां करचीं पडटलीं.

विकास : ते सर हो आमचें सुसेगगांव सोंपतलो. आमी हांगा बेकार आसात. पूण हो सरकार आशिल्ल्यो नोकऱ्यो भायल्यांक दिता. तांची भास आमचेर लादता. आमकां मनान गुलाम करूंक सोदता.

सु. झु. : त्या खातीर आमकां संघर्षाची तयारी करूंक जाय. लोकांक

संघर्षाक तयार करूंक जाय. तांकां आजून स्वतंत्रतायेची आपल्या हक्कांची जाणीव जावंक ना. ती जेन्ना जातली तेन्नाच ते सत्तेविरूद्ध पेटून उट्ठले.

विकास : आमकां आमचें राज्य हाडूंकच जाय. हें फटींगांचें, पसर-कारांचें, स्मगलरांचें राज्य.

सु. झु. : ताका कळाव आसा. लोकांची वैचारीक पातळी वाडले शिवाय तें जावपाचें ना. आमचे चळवळीन ह्या सरकाराचेर कसलोच परिणाम जावपाचो ना. विरोधी पक्षूय आयज सरकारांत ना. ते खातीर ह्या लोकांचें फावलां. जाय तशी लूटमार करतात. आपलीं घरां भरतात.

विकास : मागीर हेका उपाय फक्त बंदुकच.

सु. झु. : शरिरां नष्ट करून क्रांती जायना पुता. मनां बदलूंक जाय. ते खातीर आमकां बावर करचो पडटलो. लोकांक तयार करचे पडटले.

विकास : ते सर आमकां वेळ खंय आसा ? शक्तिच्या, दुडवांच्या नेटार लोकांक चेपपाचें काम तर चल्लां.

सु. झु. : क्रांतिच्या पावलांक कोणूच आडावंक शकना. जेन्ना अंधा-धुंदी माजता तेन्ना काळूच कोणाच्या तरी रूपान फुडें सरता.

विकास : ही क्रांती आमकांच हाडची पडटली. हे क्रांतीच्या बुन्यादीचे फातर आमीच जातले.

सु. झु. : होच हावेस, होच नेट मनांत दवल्ल्यार सगळें शक्य जातले मनांतली निराशा पयस करप आनी उजवाडाकडें लक्ष धरप हेंच ह्या खातीर चड गरजेचें आसा. तेन्नाच काळोख सोंपता.

: २६ :

( कोलेमांव आनी ताचे आमदार बसल्यात. )

कोले : तर... तुमकां सगळ्यांक मंत्री जावपाची सपनां पडूंक लागल्यांत ! आं ! बरी गजाल. करूया.

१ लो : हें आमी फाटलीं कितलीं तरी वर्सां जालीं आयकत आसात. आमी कितें बोंमान दुद पियेनांत.

२ रो : तुमी दुडू करपाचीं सगळीं साधना आपल्याकडेन आनी आपल्या सहकारी मंत्र्यांकडेच दवल्ल्यांत. आमी सदांच तुमकां सांगतात कीं मंत्रीमंडळ वाडयात म्हूण. पूण तुमी कशेंच काना–मनार घेनांत.

कोले : शांतपणान सांगात. म्हाजे आजून कान फुटोना.

१ लो : आतां लोकांच्या घोशणानी फुट्टले. सरकार पडटकच दोळयांचेरूय पेज येतलो.

कोले : सरकार पडटलो म्हणटा. तुमच्या फोर्सार ? कितले आमदार फोडूंक शकता ?

२ रो : पळोवपाचें आसा तुमकां ? मागीर पश्चताप करपाची पाळी येतली. तुमी बहुजन समाजाचे म्हूण तुमकां मुख्यमंत्री केला. ताजो तुमी गैर फायदो घेवंचो न्हय.

१ लो : आमी सरकारूय घडोवंक शकलेंना जाल्यार राष्ट्रपती राजवट तरी हाडूंक शकतात. लोकांमदीं रावून सरकार बरखास्त करपाची मागणी करून, तुमचीं सगळीं पातकां चव्हाटयार हाडूंक वेळ नाका.

कोले : अशें म्हणटा जाल्यार विचार करचोच पडटलो.

२ रो : तुमी विचार करी सर निवडणूको लागीं येतल्यो. आमकां आजूच विचार केल्लो जाय.

कोले : आजूच करूया. तुमकां दुडू करपाखातीरूच मंत्रीपद जाय न्हय ? दिलें. तुका वनमंत्री करून उडयतां.

२ रो : वनमंत्री ! कित्याक ? जंगलांत वचून भीक तरी मागूंक मेळटा ?

कोले : हेंच तुमकां कळना म्हणून तुमकां हांव मंत्रीपद दिवंक सोदिनाशिल्लों. तुमकां फक्त म्हजें भौजन समाजपण काडूंक येता. तुमकां आयची लाकडाची दर खबर नासतली. आपली जातूच खबर आसतली !

१ लो : आनी म्हाका कितें ?

कोले : तुका उद्योगमत्री केल्यार कसो ? सद्या नोकऱ्यांची मारामारी चल्ल्या. एम्प्लॉयमेंटातल्यान कॉल काडप जांव खंयीय नोकरेक लावप हाचो दर सद्या पांच हजारांच्या घरांत वचोंक शकता. जालो खोशी ?

२ रो : आमचो मुखेलमंत्री सायब तकलेन खुबच हुशार आं !

कोले : अशेंय कितेंय घडले म्हण्टकच आमच्या धोपरांतली बुद्द तकलेन पावल्या म्हणपाचो साक्षात्कार तुमकां खिणाभितर जाता. आतां पडपाचो ना मूं सरकार ?

१ लो : कोणाक कापाजदाद आसा सरकार उडोवपाची ? आमी आसतना तुमी कांयच पर्वा करी नाकात.

कोले : हांव आनी दोन वर्सां तरी करीच ना. शिवाय राजकारणांत व्हडलोसो अर्थ आतां उरोंक ना.

१ लो : म्हणचे आमचों आतां वेगवेगळीं कॅबिना तर ! एअर कंडी-शन. भीतर कितें चल्लां ते भायर आयकूंक येना असलीं.

कोले : हय. आतां पासून तुमचे दिमतीक सगळी मंत्रीपदाक फावो ती फौज आसतली. चलात मौजा मारात.

(दोगूय आप–आपली कदेलां वेगळीं घुंवडावन दवरतात.)

: २७ :

(भाटकार दोगां गुंडाक घेवन नागूले घराकडेन येता.)

भाट. : नागू ऽ भायर सर ऽ

नागू : (भायर येत.) भाटकार, येदे तिनसांजचो ? कसलें काम पडलें ?

भाट. : तें कळटलें आतां. तुका चड माज चडला तो देवोवंक आयलां. नागू, आजून तुजें रीण पावलेंना.

नागू : हे फावट जायना भाटकारा. आनी थोडे दीस राव.

भाट. : म्हाका रावपाक वेळ ना. म्हाका आजूच सगळे पयशे जाय.

नागू : खंयचे हाडूं भाटकारा ? थोडे दीस राव. पूत म्हाजो जोडीक

लागतलो. एकान एक फारीक करतां.

भाट. : पूत फारीक करतलो ? ताका आमगेर दिसवड्याक येवंक लज दिसता.

नागू : तरणो भुरगो भाटकारा. चुकतलोच केन्ना केन्नाय.

भाट : चुकीचें परायचीत घेन दिसना ? हांव दितां. चलात रे, घरांत घुसात आनी काडात सगळें सामान भायर. .

( गुंड भीतर सरतात. विकास भायर येवन तांकां आडायता. )

विकास : खबरदार, कोण भीतर सरत जाल्यार !

भाट. : आर्रा तूं. तुका इतलो नेट चडलो ? काडात रे ताकाय भायर ओडून आनी दियात दोन धपके.

(लटाफट जाता. गुंड विकासाक धरून बडयतात.)

नागू : नाका भाटकारा. सोडूंक लाय तेका. चुकलो तो. (सोडोवपाचो यत्न करता. लोक जमतात. पळयत रावतात.)

सु. झु. : कोण रे ते, सोडात ताका. ना तर एक एकल्याक हाचें पानवळ भोगचें पडटलें.

भाट. : तूं परत हांगा पावलो ? चल वच आनी बस ओगी चरख्यार सूत कातीत. कापूस जाय जाल्यार धाडटां.

सु. झु. : सद्या हावें सूत कातपाचें सोडलां. आतां हांव तुमच्या सारख्या नरभक्षकांक फांसार चडोवंक दोर विणूंक सुरवात केल्या. पयलीं हांगच्यान चलूंक लागात.

भाट. : वा ! म्हज्याच भाटांत म्हाका धमकी ? कितें पळयतात रे तुमी ? घालात मोडून खोप ताजी.

( गुंड खोप मोडटात. सुटके झुंजारी आडावपाचो यत्न करता. ताका धुखलून उडोवन खोप मोडटात. )

आतां परत उभारशीत जाल्यार तुमच्या सैत उजो घालतां खोपीक. चलात रे.

( भाटकार वता. सुटके झुंजारी उठून विकासाक उठयता.)

सु. झु. : उठ. एक खोंप मोडली जाल्यार कांयच पर्वा ना. तुमचें

खातीर हजार घरां तयार आसात. चलात म्हजे घरा. हांव आसतना भिवपाची गरज ना. ( लोकांक ) तुमचें जालें नाटक पळोवन ? आतां वचून न्हिदात.

विकास : ह्या भाटकाराच्या गोमटेक घांस माल्लेबगर म्हाका सुसेग लागपाचो ना.

सु. झु. : एकटयाचें काम न्हय तें. एकटयान केल्यार, ताच्या त्या गुंडांत आनी तुज्यांत फरक कितें उल्लो. ह्या लोकांनीं आतां ताजेर हल्लो करूंक जाय. गुंडगीरीक सामाजीक दर्जो मेळटा याच कृतीन. पूण हो लोक फक्त पळयत उबो रावलो.

वासू : आमी कितें करतले ? नागू, पुलीसेत केस करया वचोन.

आंतोन : आतांच या. हांव येतां तुजे वांगडा. चल आतांच या.

सु. झु. : पुलीशेंत वचून कांयच उपेग ना. अशा कितल्या तरी नागूचीं घरां दर दिसा भाटकार मोडटा. असल्या कामाक पुलीस आमचे वाटेन केन्नाच रावचेनांत.

नागू : मागीर आमी कोणाच्या तोंडाकडे पळोवप ? आमकां वाच-यतलो कोण ना ?

वासू : त्या दिसा पेपराचेर वाचलेलो कूळ कायदो येतलो म्हणोन ! तो होच काय कितें !

सु. झु. : तुमी पेपरावेलीं आस्वासना वाचून सपनां रंगयात. ती फक्त मताची भास. तुमकां ती कळपाची ना.

दुमींग : हेका इंदयान म्हुणटा जाल्यार आमगे आदलेंच बोरें आहले मुरे ! तूं झगडलेलो मुरे ! आतां हेंच्या लागच्यानूय मार खा.

सु. झु. : स्वातंत्र्य बरेंच. पूग आमी जाच्या हातांत तें सोपयलां ते वायट. तें आमकां बऱ्या मनशाकडे दिवंक कळ्ळेंना, हीच आमची चूक. आनी ताचें पानवळ आमकां हे तरेन भोगचें पडटा.

वासू : मागीर आमी कितें करपाचें तें सांग.

सु. झु. : आमी सगळे एक जावया. असल्या जुलमी भाटकाराक बुद्द

शिकोवया. आमचें राज्य हाडपाक आमी सगळयांनी एक जावंक जाय. आमचो एकवट आसल्यार कोणूच आमकां हात लावंक शकचो ना.

विकास : असल्या भिजूड लोकांक एकवटाची गजाल आनी मुक्तता-येची काणी सांगून तुमी आपलो वेळ कित्याक होगडायतात! आपल्याचेर बडी बसल्याशिवाय तेंका दुखपाचें ना. ते अशेच गुलाम जावनूच जियेतले. तेका वचों. जेवात आनी न्हिदात सगळे वचोन.

सु. झु. : अशें उलोवन जावपाचें ना. तांच्या भीतर झुंजपाचें बीं आमकांच रोवचें पडटलें. पिळग्यान पिळग्यो भाटकाराची गुलामी करून आयिल्ल्या ह्या लोकांक एकदम भाटकारा मुखार मान वयर काडप जमना. तांकां आमी तयार करचे पडटले.

विकास : आमकां आमची फौज तयार करची पडटली. हो पुराय सुसेगगांव वाचोवंक आमकां एकठांय येवचें पडटलें.

आंतोन : आयज नागूचें घर मोडलें. फाल्यां आमचें मोडटलो. भाट तेगे जायत. पूण जमीनूय तेजी ? खुंय सर्गार सावन घेवन येयलेलो ! आनी कोणा वाटेक वोयता तें चोवया तो ! मांयचे काजार व्हरोन.

सु. झु. : आमी सगळे एक जावया. आमचे शक्तिमुखार दुडू आनी सत्ता ग्रंयच तिगपाची ना. हीं भिजूडपणा सोडात. आमी आमचो जात धर्म विसरून, खांदाक खांद लावन एकमेकाक आदार दिवया. चलात.

( सुटके झुंजारी वचून नागूक आदार दिता आनी आपले घराकडे व्हरता. उपरांत एक एकलो ताका आदार दितात. बाकीचे भुरगे विकासाक आदार दितात.)

: २८ :

( चली उद्योग मंत्र्यांकडे नोकरी मागपाक वता. )

चली : हय. म्हाका शिरविसेची खुपूच गरज आसा.

उद्योग : तशें जाल्यार म्हाका विचार करचो पडलो. बरें, म्हाका एक सांग. तुज्या घराकडे कोण कोण आसात ?

चली : कोण ना. हांव आनी म्हाजी आवय.

उद्योग : तशें जाल्यार तुका शिरविसेची खुपूच गरज आसा. शिकलां कितलें गो तूं ?

चली : चवथी पास जालां.

उद्योग : पूण तूं काम कसलें करतलें ?

चली : कसलेंय. म्हाका कसलेंच काम करपाक उणेपणा दिसना.

उद्योग : म्हाकाय लजना तसल्याच चलयांची गरज आसा. आतां ह्या काळार लजूंक उपकारता ? ( मात्सो मुखार सरून ) लजून नोकरी म्हुण करूं येता ?

चली : म्हणजे म्हाका शिरविस मेळटली ?

उद्योग : दुबाव नासतना, मेळ्ळीच म्हणून समज. पूण सोडपाचें कशें कितें ?

चली : कितें सोडपाचें ?

उद्योग : तें तुका खबर आसा. आतां ह्या काळार नोकऱ्यांक कितली मारामारी ! हांगा येदे व्हडले ग्रॅज्युएट आनी पोस्ट ग्रॅज्युएटस नोकरे खातीर हांगा थंय तळमळटात. आनी प्यूनाचे सादे नोकरे खातीर पांच–पांच हजार अधिकाऱ्याच्या हाताक लायतात. ते तसे सोडले बगर नोकरी मेळप म्हळचार तशें कठीनूच न्हंय. तुका अशें दिसना ?

चली : पूण हांव गरीब. हांव कितें सोडटलें ?

उद्योग : तुका आनी गरीब म्हणू येता ? तुमच्या सारख्यानी जर स्वताक गरीब लेखलें जाल्यार गिरेस्त आनी कोण आसतलो ? तुज्यान जायतें सोडूं येता.

चली : म्हाजी आवय हांगा थंय काबाड कश्ट करून कशें य बशें दोन गोटे हाडटा घरांत.

उद्योग : आतां पक्वाना खावक मेळटलीं.

चली : पूण कशीं ? म्हजे कडेन...

उद्योग : कांयच पर्वा करचेली गरज ना. राव तूं आयज हांगा हांव तुका सगळें समजावन सांगता. हें कॅबीन पळय काय बरें, थंड दिसता न्हंय. एअर कंडीशन. आ, समजले. तूं शीं खायत म्हुण भिता आसतलें! तूं साय सोडयतकच हांव एअर कंडीशन बंद करतां. शिवाय घरा वता आसतना तुका नवो व्हिस्तिद.

चली : ना. आनी म्हाका हांगा खीणभर रावपाचें नां. म्हाका कळाव जाता.

उद्योग : तशें जाल्यार तुका रातचेंच पायतां, म्हजे गाडयेन. केन्ना बसलां तूं! असल्या गाडयांनी. गुबगुबीत सिटां. म्होव म्होव. मुखार झेंडो फडफडटा. माथ्यार तांबडीच लायट पेट्टा. पिक्-पिक्. आतां रातची तर खुपूच बरी दिसतली. बसूच तूं एकदां

चली : हांव चल्लीं. (वचंक करता.)

उद्योग : पूण तुजे ते शिरविसेचें...

चली : आसूं म्हाका कांयच नाका. वयतां हांव घराकडेन. आवय वाट पळयतली.

उद्योग : आवयम्हऱ्यांत तर सदांच आसता. आयज म्हज्या सारख्या एका उद्योगमंत्र्याकडे रावल्यार कशें.., तसो म्हाकाय व्हड-लोसो उद्योग ना.

चली : असलीं गजाल हांये आयकोंकूच ना. वतां हांव.

उद्योग : वताच जाल्यार राव. हांव दाराकडें पायतां.

(तें वता. उद्योगमंत्री दाराकडें वता. दार उगडापाचें सोडून ताच्या तोंडाक घट धरता. काळोख. कांय वेळान किळच्यो.)

## : २९ :

( रात जाल्या. चलयेची वाट आवय पळयता. हातांत पेत्रो-लाचो दिवो.)

आवय : नागू दाद, ओ नागू दाद !





नागू : कितें गो आवडू ? येदे रातचें साद घालता शें ?
आवय : आमगेलें आबोलें आज्न येवना. हुसको लागला म्हाका.
नागू : खंय गेलां तर तें येदी रात जाय सर ?
आवय : उद्योग मंत्र्याकडें वयता म्हणोन गेल्ले. आजून येयलेंना.
नागू : मंत्र्याकडेन ! तें शें कित्याक गो ?
आवय : तो शिरविसो दिता खंय न्हू ! ते खातीर.

( विकास भायर येवन )

विकास : हांव वचून पळोवन येतां.
नागू : येदी रातीचो ? सांगाताक व्हर कोणाकूय. राव हांव नारा-यणाक आपोवन हाडटां. ( दुसरे घराकडे वचून ) नारायण– ओ नारायण मात्सो भायर यो.
सु. झु. : कोण नागूदाद ! कितें जालां ?
नागू : आवडूलें आबोलें आजून घरा येयले ना. मात्शें सोदूंक जायें.
सु. झु. : खंय गेलां खय तें !
नागू : मंत्र्यागेर. शिरविसेखातीर.
सु. झु. : खंयच्या त्या उद्योगमंत्र्यागेर ? ताच्यो सगळचो भानगडी जाणा जावनूय आवडून धाडलें ताका ताज्या म्हऱ्यांत ? ताजे भकीक कितलीं वाडलेलीं भुरगी पडल्यांत हे खबर नाशिल्लें खंय ताका !
नागू : खबर आसून कितें उपेग ? ही वेंतभर पोटाची भूक भगोंक नाका ? तेन्ना तकलेंत खंय इचार येता ? आमी सोदया मात्शे.
सु. झु. : चलया. कळाव नाका.

(सगळे तीनूय वाटांनी वतात.)

: ३० :

( गांवचे लोक जमल्यात. उलयतात. )

वासू : मडें केन्ना आयजूच मेळ्ळें ?
नागू : सकाळीं दुमींग गेल्लो न्हूरे मार्डाक. तेन्नाच तेणें पळेयलें

तळ्यांत उबतना.

दुमींग : हायें माडार रावन देखलें. पयलूं दिसलें कोण तरी पेंवता. बारीकसाणेन पोयत जाल्यार कोण चेड्. पूण आमच्या गांवचे कोण पेवोंक नको. लागी वचोन चोयत जाल्यार आबोलें.

वासू : भोंगो बाबड्या आवड्चें. एकलोच आदार आसलेलो. शिर्विसूय ना आनी जिवूय ना जालो.

दुमींग : तुमकां जायें आहलें न्हूरे इंदयान. आतां भोगाय. चलयात तुमगे राज. आमच्या धुवांक भयणांक कराय काबार. पयलूं केन्ना घडलां ओहें.

वासू : तेका कोणें वच सांगलेलें तेज्या घरा ?

नागू : मागीर तूं तेज्या घराकडे हाडून दितलो आसलो शिर्विस ?

दुमींग : आतां आमी कितें करपाचें ? केस बा केल्या काय ना रे ?

नागू : केस करूंक कोण आवडू वयतलें ? आमचो विकास आनी तो नारायण सकाळच्यान धांवता हांगा थय.

( सुटके झुंजारी आनी विकास येतात. )

वासू : कितें खबर रे नारायण ! केस बी केली काय ना. ?

सु. झु. : कायदो आसल्यार केस करपाची. आनी पुलीसांक तूं पगार दिनां. सरकार दिता.

विकास : चल आमी या बेगीन मंत्र्याकडे. ह्या लोकांकडे रावन वेळ होगडावन कांयच फायदो ना. तेंका अशेच गांवच्या चंवाट्यार बसून मारूंदी चकाटां.

वासू : म्हणचे रे कितें ? तुमी खंय मंत्र्याकडे चल्ले ?

सु. झु. : हय आमी सगळें आयज मोर्चा घेवन वतले. हे गजालीचो जाब मागतले.

विकास : तुमकां कोणाक येवपाचे आसल्यार येयात. नातर ह्या गांवचे सगळे लोक मेले अशेंच धरून आमी मुखार चल्ले. आमी दोगूच सत्याखातीर, अन्यायाविरूद्ध झगडत रावतले.

सु. झु. : ही गजाल आमकां नवी न्हय. आज प्रत्येक आमदार कितें

ना कितें करून हे जनतेक पिडीत आसा. कायदोय तांच्या हातान आसा. आमचे वटेन तुमी लोकांनी रावंक जाय. आयज सगळ्यांनी आपले मदले मतभेद विसरून एक जावपाची गरज आसा.

दुमींग : हेंच तूं कांय वर्सां फाटीं भायल्यांक धांवडावन घालच्या– खातीर सांगतालो. आनी परतून आतां इतल्या वर्सांनी तेंच!

विकास : हय. ते भायले गेले. आमी फकत आमचो झेंडो बदल्लो. दुस्मान एकूच. रंग बदल्लो पूण मनीस तेच. ह्या लोकांक आमी सत्तवयल्यान सकयल काडूंक जाय. चलात सगळे.

सगळे : चलात. आमी सगळे लोक एक जावन ह्या कोलेमावांक बुद्द शिकोवया.

( सगळे वतात. )

: ३१ :

( मुखेल मत्र्याच्या घरामुखार घोशणा. )

लोक : कोलेमांव – मुर्दाबाद.
कोलेमांवान कितें केले– गरिबांचे रक्त चोखलें.
हें राज्य कोणाचें– हें राज्य चोरांचें
सोडचेंना रे सोडचेंना– जिखले बगर सोडचेंना.

विकास : म्हज्या गांवच्या भावानो, आमी आमकां जाय त्या प्रति-निधीक वेंचून हाडलो. पूण आमच्या गांवचें कल्याण करपाचें सोडून तेणें केलें कितें ? फकत आपलीं बोलसां भल्लीं. नोकरी दिता म्हुण सांगून, आमच्या भयणांची अब्रू लुटली. तांचे जीव घेतले. कायदो आपल्या हातींत घेवन आमचो आवाज चिड्डीलो. ह्या भ्रष्टाचाराचो आतां कळस जाला. ह्या अन्यायाविरूद्ध आमी आवाज काडूंक जाय. आमी सगळ्यांनी असो सोपूत घेवंक जाय कि जो कोण आमचे सारख्या गरीब–धाकट्यांक पिडटा ताका आमी कायदो हातांत घेवन ख्यास्त करतले.

लोक : कोलेमांव भायर सर– भायर मर
कोलेमांव – मुर्दाबाद
( कोलेमांव येता. )

कोले. : बंधू आनी भगीनीनो, तुमी सगळे लोक म्हाज्या दारांत जमल्यात ते पळोवन म्हाका आनंद जाता. विरोधी पक्ष सदांच अशें कितें तरी करून बऱ्या मनशाविरुद्ध कर्तुपा करीत आसता. तें तेंचे कामूच. पूण तुमी म्हाजेर आरोप करतात ते सामके लटीक आसात. कांय लोकशाय इरोधी लोक आनी अराष्ट्रीय वृत्तीचे लोक तुमकां भडकायतात. तेंका लीडर जावंक जाय. तेंका म्हाका सकयल हाडून मंत्री जावंक जाय. भौजन समाजांतलो मुख्यमंत्री जाला तें तेंच्यानी पळोवं नज. हायें जरी मात्शें वायट केलें अथवा घडलें तरी हांव तुमचोच आसां. तुमकां हेर समाजांतलो मुख्यमंत्री जावन तुमच्या माथ्यार बसलेलो जावो ? जर जावो जाल्यार हांगा रावात. नातर सगळे घरा वचोन आप–आपल्या वावराक लागात. असो वेळ होगडावन राष्ट्राचें लुकसाण करूं नाकात. आतां रोखडयोच आमच्या राज्याच्यो निवडणुको जावपाच्यो आसात.

विकास : तुमच्यो निवडणूको गेल्यो फोंडात. पयलीं आमचेर जाल्ल्या अन्यायाची जाप दियात.

कोले. : तूं कोण रे ? नागूलो विकास न्हू ! वा बरो व्हडलो जाला मरे ! शिकप सोंपलें ? मागीर ह्या लोकांवांगडा कितें करता ? इलेक्शन जाले बराबर म्हाका मेळ. आमच्या ऑफिसांत एक लुगार आसा.

विकास : तोच जागो तुजेखातीर उपकारतलो. तुजे दीस भल्ल्यात. कोलेमांव– मुर्दाबाद.

कोले. : शांत जायात. अशे बेश्टेच बोवाळ घालूं नाकात. म्हाका उलोंव दी.

लोक : कांयच उलोंव नाकात. तुमी आमचे दुस्मान. तुमकां आमी सोडिनांत !

कोले. : तुमचेर अन्याय जाला हें म्हाका मान्य आसा. तें सगळें हांव पळयतां. चुकलेल्याक ख्यास्त जातलीच. पूण इलेक्शन जावंदी. म्हाका सद्या तेखातीर वेळ ना. हांव गडबडीत आसां.

विकास : पळयलें तुमी ? कसो मद माल्ला तो ह्या मनशाक ? ताका आमचें पडूंक ना. फक्त पडलां वेंचणुकांचें. ह्या मनशाक तुमी निवडटले ?

लोक : ना. आमी तेका मत दिवपाचे ना.

विकास : ह्या मनशाक सत्तेवेल्यान सकयल काडूनच ख्यास्त दिवपाची. ह्या असल्या मनशाक उबो रावंक दिवप म्हळ्यार लेगीत आमचीं पिशेपणा. ह्या मनशाक आमी सोडूंक फावना.

लोक : कोलेमांव– मुर्दाबाद

कोले. : तुमी बरे भशेन आयकनांत जाल्यार म्हाका कायद्यान वच्चें पडटलें.

सु झु. : तुजेकडेन कायदो खंय आसा ?

कोले. : हांव दाखयतां.

( भितर वता. पोलीस आनी गुंडा येवन लाठीचार्ज करतात. सगळ्याक पळापळ. काळोख.)

: ३२:

(निवडणुकांचो प्रचार चल्ला.)

तुमचें मत कोणाक ? कोलेमावांक.

तुमचो शिक्को कोणार ? बुकल्यार.

( लोक कोरस गीत गायतात. कोलेमांव परत घरांघरांनी वता. कापडां दुडू. सोरो दिता. नाल्लार हात दवरून सोपूत घेता.)

: ३३ :

( कोलेमांव परत निवडून आयला. आतां तो विकासाक सकयल ओणवो दवरून ताचेर पांय दवरून उबो रावन भाशण करता. )

कोले. : बंधू आनी भगिनीनो, तुमी परत म्हाका इलेक्शनाक निवडून हाडलो. म्हाजेर आशिल्लो विश्वास परत उक्तो केलो. फाटल्या पांच वर्सांत हायें जें कितें केलां तेजेच हें फळ. तुमचे उपकार हायें कितले मानप ? उतरां ना म्हाजेकडे. हांव खोशयेंन सामको पिसो जालां. म्हाका आनी म्हाज्या सरकाराक बदनाम करपाक कांय लोकशाय विरोधी आनी राष्ट्र घातक लोकांनी प्रचार केलो. म्हाजें नांव पिडुचार केलें. पूण तें सगळे जमनी भरवण जालें. तुमी म्हाका निवडून हाडून तें सगळें फट म्हुण सिद्ध केलें. ह्या इलीसावांक हायें तुमका दुडू वाटलो, सोरो वाटलो अशें ते म्हणटाले. हायें कोणाक वाटला तुमकां ? ना. हायें तुमकां एक पान दुडू दिलो ना. पूण तुमीच म्हाका तुमचें मोलादीक मत दिवन वेंचून हाडलो. आयज हें राज्य येयलां तें म्हाजें अशें हांव कशें म्हणो ! तुमी जो म्हाजेर विश्वास दाखयलो तेजोच हो विजय. हें राज्य तुमचें. हें राज्य तुमचे नांवान हांव चलयतलों. तुमचो सेवक जावन. तुमीच खरेले ह्या राज्याचे राजा. तुमी ह्या तुमच्या जैताक लागोन आयज खुशाल भरीत जावन नाचा. मौजा मारात.

( सगळे लोक धुंद जावन नाचतात. 'आयज आमचे राज आयलें' ह्या गिताचे सूर वाडत वतात. पयस कोनशाक आशिल्लो ल्हान भुरग्यांचो गट ह्या वेळार हळूहळू मुखार येता. )

१ लो भु : बंद करात हो नाच. हें राज्य आमचें न्हंय. हें राज्य तुमच्या मनांतले गुलामगिरीचें. आनी जेसर तुमच्या मनांतली गुलामी

पयस जायना तेसर आमचें राज केन्नाच येवपाचें ना. आमचें राज्य आमी हाडटले. हें राज्य अशें नाचून आनी मतांच्या नेटार येवपाचें ना. तें हाडपा खातीर तुमच्या सगळ्यांची मना बदलची पडटलीं. ताचेर चडलेलो धुल्ल फाफुडचो पडटलो. आनी गरज पडल्यार आमच्या सारख्या तरनाट्यांच्या रक्तान तो धुल्ल धुंवन काडून कळमेल्ले विचार नवेताल्ल करचे पडटले. तें काम आमी करतले, आमचें राज आमी हाडटले. हें पळय तें आमचे दोळ्यांमुखार आसा.

(सगळे एका दमान मुखार येतात आनी गीत म्हणटात.)

आमचें राज, आमचें राज, आमचें राज,
आमचे राज आमी हाडटले
अज्ञानाचेर मारून खोंट गुलामपणा मोडून कोट
आमचें राज आमी हाडटले.

( सूर वाडत वतात. तरनाट्यांचो आवाज वाडटा. लोक हळूहळू आपले गीत बंद करून ताकां सामील जातात. पड्डो हळूहळू पडटा. )

● ●



